आमी सगळीं जाणात की धवो रंग सात रंगांचो आसता. सप्तरंगी इंद्रधोणू 'VIBGYOR' म्हणल्यार जांबळो, नारींगी, निळो, पाचवो, हळडुवो, केसरी आनी तांबडो अश्यो रंगछटा आसतात. जेन्ना खंयच्याय वस्तूचेर उजवाड पडटा, तेन्ना ते वस्तूचे प्रकृती नुसार हातूंतल्यो रंगछटा शोशून घेवप जाता. जे रंगछटेचें शोशन जायना ती परावर्तीत जाता. हाचो अर्थ, जी वस्त आमच्या दोळ्यांक तांबडी दिसता, ते वस्तून खरें म्हणल्यार तांबड्या रंगाक न्हयकारिल्लो आसता. जी वस्त धवी दिसता, ती सगल्याच रंगांक न्हयकारता. फकत काळ्या रंगाचीच वस्त अशी आसता, जी सगल्या रंगांक शोशून घेता, आपणायता. म्हणूनच काळो रंग खऱ्या अर्थान सर्व रंगी आसता. सर्वांगसुंदर आसता. म्हजें आवांहन तें हेंच, आमी सगल्यो रंगछटा, सगले विचार समजून घेवया. तातूंतलें बरें तें उरतलें, वायट तें आपसूकच ना जातलें. म्हणून म्हणटा

'Let us all be black'.



**श्रीधर कामत**
संमेलनाध्यक्ष,
बारावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन, माशें

# युवांकूर

(अंक 12)

## तेरावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन
## जानेवारी 2012

**पी.ई.एस. श्री. रवी सीताराम नाईक कला आनी विज्ञान महाविद्यालय**
फर्मागुडी, फोंडें - गोंय
आनी
**गोवा कोंकणी अकादेमी,** पणजी
हांच्या जोड पालवान.

---

11 आनी 12 डिसेंबर 2010 ह्या दिसांनी माशें, काणकोण हांगा
श्री निराकार शिक्षण संस्थेच्या सत्यवती सोयरू आंगले उच्च माध्यमीक
विद्यालयांत घडून आयिल्ल्या
**बाराव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत**
आयोजीत विंगड विंगड सर्तींनी इनामां फावो जाल्ल्या साहित्याचो झेलो



* संपादक *
**अनंत अग्री**

**युवांकूर** (अंक 12)
(कविता, कथा, नाटकुलीं आनी स्तंभलेखन हांचो संग्रह)



*

**प्रकाशक :**
डॉ. अनिल डिंगे,
प्राचार्य,
पी.ई.एस.चें श्री. रवी सीताराम नाईक कला आनी विज्ञान महाविद्यालय,
फर्मागुडी, फोंडें - गोंय

*

**मुखचित्र आनी मांडावळ :**
अमोल कामत

*

**छापपी :**
प्रिंट अॅण्ड प्रिव्हिव

*

**छापणावळ :**
सह्याद्री ऑफसॅट सिस्टम्स, खोर्ली

*

**येवकार मोल :**
रु. 20/-

ह्या अंकांत साहित्या वरवीं उक्तायिल्लीं मतां, कल्पना, विशय, पात्रां त्या त्या लेखकांचीं. संपादक, प्रकाशक वा आयोजन समिती तांचे कडेन सहमत आसतलीच अशें ना.

उपकार : ह्या पुस्तकाचे छापणावळीक सिंजेंटा इंडिया लिमिटेड, सांता मोनिका वर्क्स, खोर्ली, इल्हास गोंय 403 110 हांचे कडल्यान अर्थीक आदार लाबला.

# मांडावळ







# संपादकीय

युवा बरोवप्यांक व्यासपीठ दिवपाच्या हावेसान सुरू जाल्ल्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनान केन्ना तपपुर्ती केली कळ्ळेंच ना. केपेंच्या कुशावती देगेर पेटिल्लो लामणदिवो तसो उसरांच म्हणल्यार पांच वर्सांनी माश्यां - काणकोणा पावलो. पांचवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन सत्यवती सोयरू आंगले उच्च माध्यमीक विद्यालयान घडोवन हाडलें. युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचें आयोजन करपी गोंयांतलें पयलें आनी आतां मेरेनचें एकमेव उच्च माध्यमीक विद्यालय म्हणपाचो निराकार परिवाराक सदांच अभिमान.

बारावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन आयोजीत करून फाटल्या वर्सा आंगले उच्च माध्यमीक विद्यालयान एक वेगळी देख घालून दिल्या. ह्या संमेलनाक युवा बरोवप्यां कडच्यान उपाट प्रतिसाद लाबलो. संख्येच्याच हिसबान सांगचें जाल्यार कविता विभागांत 124, कथा विभागांत 62, नाटकुलीं विभागांत 24 जाल्यार स्तंभलेखन विभागांत 60 प्रवेशिका आयल्यो. युवा साहित्यिकां मदीं जाल्ल्या संख्यात्मक वाडी बरोबरच दर्जात्मक वाडीचोय आनंद आमी सगल्यांनी घेतलो.

ह्या वर्सा मंगळूरच्यान 36, कारवारच्यान 13 जाल्यार सबंद गोंयच्यान सुमार 370 युवक संमेलनांत वांटेकार जाले. संमेलनाक श्री. दामोदर मावजो, श्री. रोजफर्नस आनी श्रीमती किरण बुडकुले हांणी पडवेर सत्रांत युवकांक मोलाचें मार्गदर्शन केलें.

ह्या वर्साच्या युवा साहित्यिकांच्या लेखनाचो दर्जो बरोच उंचेलो आशिल्लो

हें दुबाव विरयत सत्य. पूण आमी आत्मसंतुश्ट आनी अल्पसंतुश्ट रावन भागचें ना. युवा बरोवप्यांनी फाटल्या संमेलनाचे अध्यक्ष श्री. श्रीधर कामत हांणी लेखना संदर्भांत सांगिल्ले मुद्दे लक्षांत दवरूंक जाय. आपलें बरोवप फकत सर्ती पुरतें मर्यादीत दवरपी कांय जाण म्हाका ह्या संमेलनांत भेटले. सर्तीची फासकी फोडून जेन्ना हे तरणाटे बरोवंक लागतले तेन्नाच तांच्या सर्जनशीलतायेचो खरो कस लागतलो.

बारावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन जैतवंत करूंक पालव दिवपी सगल्यांचो हांव दिनवासी.

युवांकुराच्या ह्या बाराव्या अंकाचें संकलन करतना म्हाका आदार करपी श्री. भुषण भावे, श्री. नित्यानंद नायक, श्री. परेश नायक, श्री. अमोल कामत, बाय अदिती प्रभुगांवकर आनी हेर सगल्यांच्या हांव उपकारांत रावंक सोदतां.

युवांकुराच्या ह्या अंकांत कोंकणीच्या विंगड-विंगड मोडींची गोंडी तशीच उरची देखून लेखकाचे मूळ शैलींत कसलेच बदल करूंक नात.

अंक समिक्षणात्मक नदरेन वाचचो आनी बरोवप्यांक गरजेच्यो सुचवण्यो करच्यो, बऱ्याची तोखणाय करची अशें मागतां.

**अनंत अग्नी**
मुखेल संयोजक
बारावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

# कविता विभाग

* पयलें इनाम *

**गौराज तळावलीकार**

पी.ई.एस. महाविद्यालय,

फर्मागुडे, गोंय

* दुसरें इनाम *

**तन्वी कामत बांबोळकार**

धेंपे कला आनी विज्ञान महाविद्यालय,

मिरामार, पणजी

* तिसरें इनाम *

**प्रसन्न पागी**

पोळें, काणकोण, गोंय

* परिक्षक मंडळ *

पुर्णानंद च्यारी

चित्रसेन शबाब

ग्वादालूप डायस

# नवप्रीत

नवप्रीत माळून अशी
कुपांत किर्णां पिर्शी
रे कान्हा तुजे असवडीं
राधेची घागर अर्दवर्शी

नित्य गुंजता ती अवेग
नवलांचीं पांयजणां
वता थंय राधा जंय जंय
विरहाच्यो यातना

संगीत दाळून अशी
जोगलांची रुजली मिठी

रे कान्हा तुजे असवडीं...

त्या चंद्रिमाचो चकोर
गगनाची धार धार
चिरयौवन सैम देखून
नांदय काळजाचो पार

कंठाक गाळून अशी
करून फुगण्यो लटीक

रे कान्हा तुजे असवडीं
राधेची घागर अर्दवर्शी



# यार्दींचीं ल्हारां

यार्दींचीं ल्हारां
हळूच म्हजे
व्हटयेंत येवन
रावलीं
हातांत घेता
म्हणसर परत
फाटी गेलीं
दर एक ल्हार
वेगळें
दर एका ल्हाराची
सया वेगळी
यार्दींच्या ह्या
ल्हारांक परत
अणभवतलें
म्हणल्यार तीं
गेलीं फाटी
नव्या ल्हारांची

म्हजे कडेन
घालूंक गांठी
पूण कशें
सांगूं गो
म्हज्या ल्हारांनो
पोरण्यो यादीच
चड शितळ
नव्या ल्हारांची
नाका म्हाका
झळ
परत येवशात
तुमी म्हजे
व्हटयेंत?
परत त्याच
यार्दींच्या ल्हारांनी
जायत म्हजी
जीण ल्हारमय? ■

# बेवारशी मडें

बेवारशी मडें
कोनशाक पडून वाट पळयता
लासतल्याची.

जगतना सूख मेळ्ळें ना
मरणा उपरांतूय दुख्ख कित्याक?
शिंयांत कुडकुडून वाट पळयता
लासतल्याची.

तें सुणें येता.. मड्या भशेन बेवारशी
वास घेता... वता...

तो रुंवांतलो किडो जळजळटा
मेल्ल्या मड्यार जग सोदता.

तो रुखा वयलो कावळोय लाळ गळयता
बाराव्याच्या 'भूसा'क आशेता
उपाशीं मडें मात वाट पळयता
लासतल्याची.

ते म्युन्सिपाल्टीचे लोक आयले
मडें उखलपाक

सूऽऽऽ जालें...
मड्याच्या जिवाक जीव आयलो.



## कथा विभाग

* पयलें इनाम *

**गौतमी चोर्लेकार**

सत्तरी, गोंय

* दुसरें इनाम *

**गोरख सिरसाट**

सांवड्डें, गोंय

* तिसरें इनाम *

**संदेश बांदेकार**

सदाशिवगड, कारवार

* परिक्षक मंडळ *

गजानन जोग

प्रकाश पर्येंकार

भालचंद्र गांवकार



# पिकनिकेक वचों...?

कोंकणीचो वर्ग सुरू आसलो. पांचवीच्या वर्गांत सर कविता शिकयतालो. इतल्यांत शिपाय हेडमास्तराची चीट घेवन आयलो. मास्तरान चीट वाचली आनी हांसत म्हणलें,

"भुरग्यांनो तुमचे खातीर खूश खबर आसा. 22 डिसेंबराक इश्कोलान पिकनीक थारायल्या. पन्नास रुपया दर एका भुरग्या खातीर. पिकनीक मयेंच्या तळ्यार, ओल्ड गोवा चर्च, तांबडी सुर्ल देवूळ आनी बोंडला वतली. पिकनिकेक येवपी भुरग्यांनी नांवां दिवचीं".

आयकतकच भुरग्यांनी एकूच बोवाळ घालो. चडश्या भुरग्यांनी आपलीं नांवां दिवंक सुरवात केलीं. मदले रेशेंतल्या तिसऱ्या बांकार बशिल्ल्या शालूचेय दोळे खोशेन लुकलुकले. ताका मयेंचें तळें भोव आवडटालें. सगळ्या भुरग्यांनी नांवां दितकच सरान म्हणलें,

"आनी कोण येतलो पिकनिकेक?"

शालू उबें रावलें.

"शालिनी गांवकार, तुजें नांव घालूं?"

"मास्तर फाल्यां सांगल्या चलता?"

"हय, हय! घरा विचारोन सांग सुसेगात". शालूक बरें दिसलें. मदले सुटयेंत तागेल्यो इश्टिणी ताका विचारताल्यो, "शालूं तूं येतलें गो?"

"मज्जा करया मगो आमी!"

"तूं कितें हाडटलें खावपाक?"

"हांव तुजे खातीर झिगी हाडटा आं गाडयेंत उडोवंक" अश्यो तागेल्यो

गजाली चलताल्यो. शालूक मात केन्ना इश्कोल सोंपता आनी घरा वचून आईक विचारता अशें जाल्लें.

इश्कोल सुटलें. रखरखत्या वतांत सगलीं भुरगीं घरा येवपाक लागलीं. शालूय फाटीक दप्तर लावन घरा येवंक लागलें. वांगडाचीं भुरगीं आपापली घरां लागता तशीं उणीं जायत गेलीं. शालूलें घर मात पयस आसलें. गांव सोंपोन शंबरेक पावलाचेर एकदम दोंगुल्ल्यां मुळांत वाघेरीच्या.

घर कसलें, खोंपटूच तें. मातयेच्यो पांच स उंचायेच्यो वणटी आनी वयर माडाच्या चुडटांचो आडोस. शालूच्या बापायन गांवांतलें घर विकून काजींनी हें नवें घर बांदिल्लें. बायले भुरग्यांक आड रानांत जागे करून दिलो खरो पूण आपूण मात रोखडोच संवसार सोडून गेलो.

आयज वत खूबच तापिल्लें तरी शालूक ताचें खरपण जाणवलें ना. ताचें मन दुसऱ्याच गजालींत घुस्पल्लें.

"अंदूय इश्कालाची पिकनीक थारली. दर वर्सा आपणाल्या मनांत वचपाचें कशें दिसतालें. पूण ताची फी खूबच आसताली. ऐंशी शंबर रुपया. तरी बस भाडें आसलेंच. म्हूण हांव केन्नाच गेलें ना.

हे फावटीं मात फी व्हड ना तशी. फकत पन्नास रुपया. आनी तें खंय मयेंच्या तळ्यारूय व्हरतले. 'मयेचें तळें' ह्या धड्यांत कितल्यो बऱ्यो गजाली सांगल्यात त्या तळ्या विशीं. म्हाका खूब उमेद आसा थंय वचपाची. आई धाडीत काय म्हाका ह्या वर्सा पिकनिकेक? गणपती बाप्पा! म्हाका धाडीत काय आई?"

"धाडची ना कित्याक? म्हाका धाडटलीच ती. ती जाणा म्हाका तळें पळोवपाची कितली उमेद ती. आनी फी लेगीत पन्नासूच रुपया".

शालूच्या मनांत एक कोमरी फुटली. आतां पिकनिकेक वतना कितें करतलें तें चिंतपाक लागलें. शालू कडेन जमोवन दवरिल्ले पांच रुपया आसले. ते वतना व्हरपाचे. कितें कितें घेवप? आईक कितें हाडप? हे विशीं चिंतींत आसतना धडाम करून पांय फातराक आपटलो. ताणें पांयां कडेन पळयलें आनी मुखांतल्यान 'आवय गे!' आयलें.

पांयाचो आंगठो फुटून रगत व्हावतालें. पूण हे खातीर शालून आवय गे म्हणलें ना तर आर्दीच पोरणें, झरिल्ले ताचें पायल चप्पल तुटलें. चपलाच्या आंगठ्याचो बटन उखडून भायर आयलो.

शालून चप्पल हातांत घेतलें. वत सामकें तापिल्लें. तुटिल्लें चप्पल हातांत

घेतिल्लें म्हणून तो पांय वतांत सामको भाजतालो. ते भायर रस्त्या वयली धूल्ल चलतना घाव्यांत भरताली. घाव दुखतालो. पूण शालूचें लक्ष नासलें. तें एक लांकडाचो कुडको घेवन चप्पलाचो बटन घालीत लंगडत चलतालें. ताच्या मुखार नवे आडणूक येवन उबें रावलें.

"आई पिकनिकेक पयशे दीत पूण चप्पल सारकें जालें ना जाल्यार? आई चप्पल तरी खंयसून हाडटली? गणपती बाप्पा! म्हजें चप्पल सारकें जावंदी". भियेवन ताच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. तें चप्पलाचो बटन घालपचो यत्न करतालें. घरा कडेन पावता पावता ताच्या यत्नाक येस आयलें. शालून खोशेन दोळे पुसले. पडवेर येवन पयलीं चप्पल दवरलें आनी दारा कडेन पळयलें. दार बंद आसलें म्हणल्यार आई वावराक गेल्या कोणाच्या तरी. खुंटयेक आशिल्ली चावी घेवन शालून दार उगडलें. दप्तर दवरलें. तामयो भर उदक पियेलें, चुली कडेन तोपांत उकड्या तांदळाची पेज आशिल्ली. चेंपणांतलें तोर आसलें. पेज पळयतकच शालूक भुकेची याद जाली. पूण तकलेंत चलपी पिकनीक ताका जेवंक दिनासली. केन्ना एकदां आईक सांगता अशें जाल्लें ताका. तें आईची वाट पळयत रावलें पिकनिकेचीं सपनां चितींत.

"हांव आनी स्मिता वांगडाच भोंवतलीं. हांव दोगांय खातीर पिपिरमिटां घेतलें. कपडे खंयचे घालूं?"

शालून एक पोरणोसो ट्रंक उकतो केलो. भितर पळयलें. आतेन दिल्ली एक खोमशी नवी आनी एक चार वर्सां फाटीं शिंविल्ली खोमशी आसली ती घट आनी पोरणी जाल्ली. नवे खोमशेची चेन गेल्ली.

कितें जालें. चेन गेली म्हूण. आलपीन लायतलें. मनांत थारावन ट्रंक धांपता इतल्यान ताची नदर आईले साडयेर पडली जी जाग्या जाग्यार उंदरान खाल्ली. ताच्या काळजांत चर्र जालें.

शालून आपले भशेन पिकनिकेचो प्लॅन केलो. तिनसान जायत आयली तशें चालू उठलें. चुलींत उजो पेटोवन पेज हून केली. कोयर मारलो. तुळशी कडेन दिवो लायलो. उदक तापोवन न्हालें आनी आई खातीर उदक चुलीर दवरलें. आईची वाट पळयत बसलें.

शालून वाटेर नदर मारली. आई येताली. शालू इतलें आतूर जाल्लें की धांवतच आई मुखार गेलें. धांवता धांवता आई फुड्यांतच फातराक आपटून जमनीचेर लोटांगण घालें. फुटिल्या आंगठ्यांतल्यान परत रगत व्हांवपाक

लागलें.

''कितल्यांदा सांगाचा तुका शालू, पळोवन चल. हळू चल. आतां पडलंय मगो? ये खाकेर घेतंय. माज्या बाय तां!''

''नाका गे हाका काय जावंक ना. मियां येतूंच चलात''.

आईच्या हाताक धरून शालू चलपाक लागलें.

''बाय तियां लेंगतय गो कित्याक? पांय दाखय बघया''.

''ना गो! कांय जावं ना''. शालून पांय लिपोवपाचो यत्न केलो. पूण आईन पळयलेंच.

''केन्ना घेतलंय गो आंगठो फोडून? रगात बग कसा भळाभळा व्हांवता. तुका कसा सांगा बाये बघून चला. हळद तरी लावपाची मगो घाव्यार. उपाय ना बाये तुजे मुखार...''

आई बडबडटाली आनी शालू ओगी रावन आयकतालें.

आई रातच्या जेवणाचे तयारेक लागली. पेज आनी तोर पळोवन आईन शालूक उलो मारलो.

''शालू, तूं आयज जेवंक ना कित्याक?''

''भुकूच लागांक ना गे!''

''कशी लागात बाये भूक? सदांच तोर आनी पेज जेवंक जाता? पूण करया काय बाये? नशीबच फुटकें आमचां''.

''तसां ना गे. म्हाका आवडटा तोर आनी पेज. पूण आयज म्हाका खरीच भूक नासली''.

आई ओगीच रावली. ती जाणा आपली धूव कितली सोंशीक. तें कशेंय भशेन म्हाकान दुख्ख दिवचें ना. स्वता कश्टी जायत. णव-धा वर्सांचें पॉर व्हडल्यां भशेन वागता.

जेवण तयार जालें तशें आईन शालूक उलो घालो. तेन्ना शालू चिंर्तीत आसलें आईक पिकनिके विशीं कशें सांगप?

''बाय!'' आईन परत उलो मारलो. ''ये जेवया. आयज भाटांतल्यान घेवड्याचो शेंग्यो हाडिल्ल्यो तेंची भाजी केल्या. तुका आवडटा मगो?''

शालू आई मुखार वचून बसलें. दोगांय जेवतालीं. पूण शालूचें मन जेवणार ना हें आईक जाणवलें.

''बाय, जेय मगो. काय जाला? जेयनय कित्याक? भाजी बरी जाल्या

मगो?''

''हय गे. बरी जाल्या. ह्या काय जेयतय''.

''जेय बाये. आमच्या गरिबाची पेजपाणीच बरी. बरा खायत जाल्यार तिया शिकतलंय कसा? पुस्तकां, पेनां, व्हयो, फी हांकां पयशे पावांक जाये बाये. ते खातीर जमोवचो पडटा पयसो. वावराक गेल्यार तीस रुपया दीसवडो. तेतूंतसून तांदूळ, पॅट्रॉल, मीठ-मिरसांग हाडटलंय काय. शाळेचो खर्च करतलंय? आनी पगारूय कोण वेळेर दियनात''.

शालू ओगी रावन आयकतालें. आई उलयत आसली.

''हालीं कोणी गोड्डीय शिंवाकक दिवंक ना. वयलो खर्च भागयचो म्हणटल्यार. कसा बाये बरा खावंक घालूं तुका?''

शालूक आईचेर कितलीं चिंतनां आसात हाचो उगडास जालो.

''नाका गे कांय माका बरा''. तेणें म्हणलें पूण आईन आयकलें ना. जणू आयज ती आपले धुवे कडेन आपलें मन उकते करताली.

''बापायन तुज्या अर्द्यारूच वांगड सोडलो, तुका पदरांत घालून. आतां तियांच आदार माजो. तुकाच खूब शिकयतलेय. शिकतलंय मगो?''

''हय गे आई! सगल्यांत पयलो नंबर काडटलंय''.

''शाणा माजा बाय तां. ह्या वर्सा पयलां येयलंय तर मियां तुका नेवी खोमशी आनी चप्पल हाडटू हा काजीवक्ता. चप्पल झरला न्हू गो तुजा? आनी एकूच खोमशी आसा तीय पिंजतली''.

शालूक उगडास आयलो. आईचें चप्पलय झरला आनी तिचे कडेन एकूय न्हेसपा सारकी साडी ना.

''नाका गे आई म्हाका ह्या वर्सा खोमशी. तुका साडी आनी पोलको घे. एकूश नवी साडी ना तुजे कडेन''.

''म्हाका कित्याक ती नवी साडी? तुका घेवया?''

''तशें जाल्यार माकाय नाका कितेंच''. शालून गाल फुगयले. तें पळोवन आईक हांसपाक आयलें.

शालू हांतरुणार न्हिदिल्लें. ताच्या मनांत हय-ना सुरू आसलें. आईक सांगूं काय नाका पिकनिके विशीं? पिकनिकेक वचप म्हजें सपन आसलें. पूण आईचेर संवसाराची कितली तरी चिंतनां. कितलो तरी खर्च. शालून आई कडेन तोंड केलें.

“आई!”

“काय गो बाय?”

शालू परत चिंतूंक लागलें. “नाका! हांव सांगना आईक. तिका वायट दिसतलें. ह्या म्हयन्यांत सावकाराचें रीण फारीक करपाक जाय. बाजार हाडपाक जाय. ह्या वर्सा तरी आईक नवी साडी घेवपाक लावंकच जाय. पिकनिकेक वचपाचें सपन फुडल्या वर्सा पुरें करप. कितें जायना मयेंच्या तळ्यार वचूंक ना जाल्यार. तशें म्हाका तितलेंशें आवडना तें तळें”. शालून आपल्या मनाक समजायलें. गरिबी मुखार परत एकदां मन मारलें. दर वर्सा तशेंच जातालें.

“बाय! तिया काय तरी सांगचा आसलंय?” आईच्या आवाजान शालूचें चिंतप थांबलें.

“कांय ना गे आई! तुका ह्या वर्सा नवी साडी घेवयाच हां आमी”.

आईन शालूक कुशींत घेतलें. ताचेर आपलो खरखरीत पूण मायेन मोव जाल्लो हात भोंवडायलो. आनी तकलेचो मुको घेतलो. तशें करतना आईच्या दोळ्यांतलीं दोन दुकां शालूच्या गालार पडलीं. शालून आईक वेंग मारली आनी थारायलें -

ह्या वर्सा वचप ना पिकनिकेक! फुडल्या वर्सा...





# ब्लॉक

आईऽऽऽऽ..! आईऽऽऽऽ..! बेगीन फुडल्यान यो...!

चौकांत बशिल्ल्या गौतमान मातसो काचाबूल जायत भितोडेक आशिल्ले आईक उलो मारलो. ते सरशीं ती आयदनां थंयच सांडून फुडल्यान धांवून आयली.

दिवाणार बशिल्ले कडेन अचकीत वेणो सुरू जाल्ल्या छायाक पळोवन कोणूय भियेतलो आसलो आनी तें तर आवयचें काळीज. बाळंतपण सोंसतना कितें जाता हें तर एक आवयूच जाणा.

आईऽऽऽऽ..! आईऽऽऽऽ..! म्हणत छाया पोटाक दोनूय वटांनी धरून आड पडपाक लागलें. पयल्या खिणाक ताचे आईक कितें करचें तेंच कळ्ळें ना. छायाच्या बाबाक आपयतली म्हणल्यार तोवूय कामाक वचून खूब वेळ जाल्लो. तिणें गौतमाक सांगून शेजारच्या गांवकाराल्या सुदेशाक सांगून गाडी काडपाक सांगली. तशी तिणें आर्दीच हाची तजवीज करून दवरिल्ली. पूण नेमको त्याच दिसाक सुदेश घरा कडेन ना जालो. तो गाडी घेवन इश्टा वांगडा खंय तरी भायर सरिल्लो.

गौतम परत आयलो तेन्ना ताचे वांगडा शेजारचीं दोन तीन बायलांय आयिल्लीं. गाडी ना म्हणून तांकांय त्या खिणाक कितें करचें म्हणून लक्षांत आयलें ना. तांचे मदलें नयन मातशें धूर्त आसलें. ताणें आनीक वेळ करिनासतना गौतमाक 108 ॲम्बुलन्सीक फोन करपाक लायलो. तशी रोखडीच कुडचिरें भलायकी केंद्रा वयल्यान 108 भायर सरली.

गौतमाचो इश्ट सतीश त्या दिसा तागेर आयिल्लो. ते दोगूय मणगांव

एम्प्लॉयमॅण्ट एक्स्चेंजींत वचपाचे आसले. छायाची परिस्थिती पळोवन आ-पणालें त्या दिसाचें काम दुसऱ्या दिसार घालून तोवूय गौतमाच्या सांगाताक येवंक भायर सरलो.

हरशीं कुडरिऱ्या वयल्यान देवड्ड्यां घड्यार गाडयेन पावपाक फकत धा-पंदरा मिनटांचो रस्तो आसलो. पूण हालींच्या तीन-चार वर्साक धडेकारांक, कापशेकारांक आनी चड करून देवड्डेंकारांक होच रस्तो काडपाक अर्द वर ते पावूण वर तरी लागतालो. आनी व्हडली गाडी आसल्यार घरांतल्यान गाडयेंत वच्चे बदला घराच रावचें वा चलत गेल्यार बेगीन पावतले अशी परिस्थिती निर्माण जाल्ली. चलून वा गाडयेन येतना वतना तांबड्या काळ्या धुल्लाचो राप आंगार तोंडार बसतालो. आनी पलतडीं वचपाक पर्यायान हो एकूच रस्तो आसलो. कशेय जरी गेले तरी हो धुल्लबंबाळ जाल्लो रस्तो माड्डिले बगर कोणाकूच दुसरो उपाय नासलो.

ह्या सगल्यांचें एकूच मुखेल कारण आसलें तें म्हणल्यार ट्रॅफीक ब्लॉक.

घराच्या आंगणांतल्यान रस्त्याचे दोनूय वटांनी लांबचे लांब उबे आशिल्लें ट्रकांचें रोमट दिश्टी पडटालें. नाय जाल्यार मर्दी कांय बशी, रिक्षा आनी मोटार सायकली मेळटा ते खाचींतल्यान वाट काडटना दिसताल्यो. आयल्यान आशिल्ल्यो गाडयो थोड्यो भोव स्पश्ट दिसताल्यो. पूण पुराय रस्त्यार पडिल्ल्या तांबड्या धुल्लाच्या धुक्याक लागून पयसुल्ल्यान कसली गाडी येता वा वता हें समजुपाकक मातशें भुंवयो ताणूनच पळोवचें पडटालें.

ह्या येद्या व्हडल्या दोनूय वटांनी पडिल्ल्या ब्लॉकांतल्यान 108 बेगीन कशी पावतली होच प्रस्न मनांत घेवन कोण भायर भितर पासयो मारतालीं तर कोण छायाक थातारीत 108 ची वाट पळयत आसलीं. पूण ब्लॉक सुटपाची लक्षणां दिसनासलीं. गोगलगायेचे गतीन ट्रक फुडें सरताले. नदर पावता थंय मेरेन लेगीत 108 दिसनासली आनी आवाजूय कानार पडनासलो. पत्तो विचारपाक 108 चो फोन एक दोनदां येवन गेल्लो.

देवड्ड्यां हें सदचेंच जाल्लें. एकदां कांय सकाळीं संक मीन येरादारी सुरू जाली, एका फाटल्यान एक ट्रक येवन वांकडे तिकडे फाटोफाट लागताले, रस्तो अरूंद आशिल्ल्यान ट्रकांचीच एके हारीन एक लायन तयार जाताली. मागीर ब्लॉक सुटपाक केन्ना अर्द वर जाल्यार केन्ना वरांचीं वरां लागतालीं आनी सांजेचें संक थांबपाचे ट्रक रातचे आठां उपरांत थांबताले. ह्या ब्लॉकांत सगलेंच

'ब्लॉक' जावन उरतालें.

मातशी हालचाल वाडली आनी कांय खिणा उपरांत ट्रकांनी थोडी गती घेतली. ब्लॉक सुट्टा कसो जालो आनी खंयच्यान तरी पयुसल्ल्यान 108 च्या सायरनाचो आवाज सगल्यांच्या कानार पडलो. घडकेक सगल्यांच्या तोंडार एक चैतन्य फांकलें. आतां मेरेन बाबा-पुता करीत बशिल्ली छायाची आई फटक करून उठली तशी थंय आयिल्लीं दोगी-तिगी बायलां मेळून छायाक उठपाक आदार करपाक लागलीं. छायाची आई तेंच न्हेसण सारकें करून भायर सरली. तसो गौतमूय तयार जालो.

"गौतम...!"

"कितें आई...?"

"तुज्या बाबाक आनी आशुतोशाक बेगीन कळय... सोमतेच भायल्या भायर हॉस्पिटलांतूच आपय तेंकां...!"

तसो गौतमान फोन केलो.

तांचो चारूच जाणांचो घराबो. छायाचो बाबा वास्को एमपीटींत आसलो. गौतम हालींच गॅज्युएट जाल्लो. बापोलये-तिपोलये सगले हांगा थंय आर्दी सावनूच विसकळून गेल्ले. पूण नातीं खूब लागीं आसलीं. सोयऱ्यां धायऱ्यां सारकेच बऱ्या वायटाक पावपी इश्ट आनी शेजारी पाजारीय तशे उणे नासले.

अशी तशी आडकत, हाका ताका कटयत ब्लॉकांतल्यान वाट काडीत 108 दारांत येवन रावली. तातूंतल्यान दोन ईएमटी म्हणल्यार एमर्जन्सी मॅडिकल टॅक्निशियन देंवले. एक दोतोर आनी एक भुरगीचशी नर्स. ड्रायव्हरान देंवन स्ट्रॅचर देंवयलो. दारांत आयिल्ली 108 पळोवन सगळ्यांच्या मनांत एक आस निर्माण जाली. छायाची पार्त आतां सुपूर्त हातांनी पावतली म्हणपाचें समादान सगल्यांक जालें.

पूण, दोन किलोमिटरा वयलें कुडचडकार हॉस्पिटल अजून खूब पयस आसलें...

... अजून ब्लॉक हुपून वचपाचें आसलें.

"देवी शांतादुर्गे पाव गे...! जाग्याच्या बेताळा तूं पाव...! म्हजे धुवेक तुमचे सुवादीन करतां देवा... तेजो सांबाळ करात...!" छायाचे आईचें सांगणें मर्दी मर्दी चालूच आसलें. छाया वांगडा भायर सरतना पुराय भावार्थान तिणें देवाऱ्याक पळोवन हात जोडून सगल्या कुळाव्या आनी थळाव्या देवांक उलो मारलो.

"खंय...? कुडचडकारागेर न्ही...?"

ड्रायव्हर मोहनान स्ट्रॅंचराक हात घालीत गौतमाक विचारलें. आनी तिगांनी मेळून स्ट्रॅंचर वयर चडयलो. ते बराबर फाटल्यान दोतोर, नर्स आनी छायाची आई गाडयेंत चडलीं. गौतम , रतीश आनी मोहन दार मारून कॅबिनांत चडले. आनी 108 हॉस्पिटलाचे वाटेक लागली.

गाडयेचो सायरन आयकून घरा मुखावयल्या दोन-चार ट्रकांनी बरोच वेळ लागून रस्त्यार येवपाक 108 क वाट मेकळी करून दिली. तशी 108 रस्त्यार वयर सरली. आतां हेरां भशेनूच तांच्याय फाटल्यान फुडल्यान ट्रकूच ट्रक उबे आसले. 108 रस्त्यार पावली म्हणून सगल्यांनी थोडो सुस्कारो सोडलो खरो... पूण ब्लॉक मात एके हारीन उबो आसलो.

ब्लॉक खरेंच खूब गच्च आसलो. रस्त्याचे दोनूय वटांनी लागिल्लो. आडेकडेचे कांय ट्रककार मोटयान पदां लावन बशिल्ले. तर कांय जाण दुसऱ्या ड्रायव्हरां कडेन चकाटां मारताले. मर्दी कोण कोण ब्लॉक सोडयतना दिसताले. पुलिसांचें काम चडशे फावटीं लोकांकूच करचें पडटालें. तेन्ना ब्लॉक मातसो हालतालो.

"तूं कांयच भियेवं नाका...! देवाचेर विस्वास दवर सगलें सारकें जातलें".

छायाची आई छायाचे ताळवेर हात भोंवडायत ताका धीर दीत आसली. गुरवाचार आनी आवयपण हांचे मदल्या बाळंतपणाच्या दुव्याचेर उबें आशिल्लें छाया पोटांतल्यो वाडत आशिल्ल्यो वेणो सहन करपाचो प्रयत्न करीत आसलें. पूण दर खिणाक वाडपी पोटाचे दुकींतूच तार्चे मन घुस्पल्लें. देवाभावार्थान केल्ली कसलीच थातारणी ताचेर परिणाम करपाक पावनासली.

दोतोरान आनी नर्सीन छायाचेर मुळावे उपचार सुरू केल्ले म्हणून तागेल्यो वेणो थोड्यो कमी जाल्ल्यो खऱ्यो, पूण मर्दी मर्दी भुरगें पोटांत घुविल्ल्यान दुखप चालूच आसलें. "भुरगें भितर घुवताशें दिसता...! केन्ना सारकी वाट मेळना जाल्यार वा भुरगें चड मोटें आसल्यारूयबी जाता तशें". छायाक पळ-ोवन दोतोरान अदमास केलो.

... घडये सारकी वाट मेळनाशिल्ल्यान तेंवूय भितर ब्लॉक जाल्लें आसपाक जाय.

"तुमच्या देवड्ड्यांत सद्दां उठसूठ ब्लॉक पडपाचें कारण कितें रे?" धुल्लाक लागून हारसो बंद करीत मोहनान रतीशाक विचारलें.

मोहनाच्या प्रस्नाची जाप बरे तरेन जाणा आशिल्लो गौतम बावडो ब्लॉकाचेर आनी छायाचेरूच दोळे लावन बशिल्लो. तो उलोवपाचे मनस्थितींत नाशिल्लो.

"राजकारण...!" प्रस्नाची जाप ओंठारूच आशिल्ल्या सारको रतीश उलयलो.

"आमचे राजकारणी आनी पुराय राजकारण लेगीत ब्लॉकांत पडलां" एक वेगळी पोटतिडक मोहनाक ताच्या उतरांनी जाणवली.

"आमच्या देवड्ड्यांत अशी परिस्थिती केन्नाच नासली. असो सांवार आयिल्ल्या सारको ट्रान्सपोर्ट हांगाच्यान केन्नाच जायनासलो. पयलीं ह्या रस्त्या वयल्यान फकत चार ते पांच कंपन्यांचोच ट्रान्सपोर्ट चलतालो आनी ट्रकूय उणे आशिल्ले, तेन्ना रस्तो अरूंद आसून लेगीत कोणाकूच त्रास जायनासले.

पूण आयज तशें ना... कायदेशीर खणीं परस बेकायदेशीर मायनींगच चड जाता हांगाच्यान.

हालीं हालीं आनी पयशांचे आशेक लोकांनी खणी कुशीकच आपापल्या भाटांतली लो-ग्रेडीची माती लेगीत विकून पयशे केल्यात आनी ट्रकूय काडल्यात. बेकायदेशीर खणी चलोवपी ल्हान व्हड मिनेर आनी राजकारणी थोडे आसात गोंयांत? पांच-स वर्सां पयली सुमार देड-दोन हजार ट्रक ह्या रस्त्यार चलताले".

"आनी आतां?"

"आतां सुमार चार-पांच हजार ट्रक दिसाक ह्या रस्त्यार धुल्लाचीं धुमशेणां कांडीत चलतात. रस्तो तेदोच आसा म्हणून इतल्या ट्रकांक तो आयज पावना. मागीर ब्लॉक कित्याक पडचो ना? तातूंतले तातूंत केन्ना कोण ट्रक वाटेर दवरून कोपाक वतात. कोण पंपार गर्दी करतात. सर्कल तर सदाचं जाम आसता. आनी पयऱ्यार बारीक मोटे अपघात तर आसाच".

मरणाक लेगीत शिरशिरें हाडपी अपघात...! रतीश मातसो भावूक जालो. पूण परत स्वताक सावरीत आयजूय असलेंच कितेंय आसतलें. सकाळीं ट्रान्स्पोर्ट तेन्नाच सुरू जातालो म्हणून 108 अशी तशी पावली..

नाजाल्यार...?

"म्हणजे तुमच्या देवड्ड्यांत मायनी खूब आसात तर?"

"ना... देवड्ड्यांत एकूच मायन ना. देवड्डेंच्यान फकत ट्रान्सपोर्ट जाता.

कश्टी ते कालें, कोडले ते शिरवय आनी घाटा वयलोय म्हाल देवड्डेंच्यानूच वता. आनी जेन्ना सगल्यांचोच ट्रान्सपोर्ट एका बराबर चलता तेन्ना देवड्डेंच्यान कापशें मेरेन, केन्ना देवड्डेंच्यान काल्यां मेरेन तर केन्ना केप्यां आनी सांग्यां मेरेन एका बराबर ट्रकांचें प्रस्थ पावता''.

''तुमचे आमदार हाचेर कितें करतात तर?''

''ते राजकारण सोडून आनीक कितें करूंक शकतात?''

''हाचेर कांयच करूं ना तर तांच्यानी?''

''केलां.. खूब कितें केलां''.

तीन वर्सां जालीं देवड्डेंचो आमदार कोण हेंच लोक विसरून गेल्यात. वेंचणुके वेळार एक दोनदां लोकां मुखार आयिल्लो तो. वेंचणूक जिखलो, आपलो ट्रान्सपोर्ट वाडयलो, गेलो... लोकांच्या हातार पयशे पडले. जालें... फुडलें कोणाक पडलां?

''आनी कुडचिऱ्या वयलो?''

''तोवूय मिनेरूच... तीन वर्सां जालीं बायपास बांदुया म्हणून आस्वासनां दीत आसा. बायपास काय जायना. ब्लॉक कांय सुटना. तांगेल्यो मायनी मात बेस बऱ्यो चलतात.

मिनाच्या पयशांनी कांय आमदारांनी आनी आमदारांच्या आशिर्वादान चडश्या लोकांनी धाकलीं घरां मोडून लाखांचेच न्हय करोडांचे बंगले बांदल्यात. लोकां मुखार समस्या उब्यो करप आनी लोकांक घुस्पावन दवरप, हेंच ते करतात''.

''राजकारणांतलो ब्लॉक जर सुटलो जाल्यार हो ब्लॉक सुटपाक शकता... पूण...!''

रतीशान सुस्कारो सोडलो.

आपल्या उलोवपांतल्यान दर एका देवड्डेंकारांची तिडक तो उक्तायतालो.

फुडले दोन तीन ट्रक मातशे हालचाल करतात तें पळोवन मोहनान 108 इल्ली इल्ली करून बरीच फुडें हाडिल्ली. छायाच्यो वेणो आनी किळच्यो आतां वाडतूच आसल्यो. सोंसपाक जायना जावन तें आतां दांत-ओंठ चाबत हात-पांय मारपाक लागिल्लें.

''मातशें सोंसून घे गो बाय... जालें...!

ब्लॉक रोखडोच सुट्टलो आनी आमी रोखडींच हॉस्पिटलांत पावतलीं''. अशें म्हणत तिणें जनेलांतल्यान भायर नदर मारली. ''देवी शांतादुर्गे... कसली

परिक्षा घेता गे आमची?'' छायाची आई छायाक समजायताली काय आपणाकूच समजावपाचो यत्न करताली हें कळपाक मार्ग नासलो.

रस्त्या वयलो ब्लॉक सोडोवपाक खंयचोय देव येतलो म्हणपाचीं लक्षणां आतां दिसनासलीं. मनशान केल्लो ब्लॉक मनशांनीच सोडोवपाक जाय आसलो.

छायाच्या लग्नाक दोन वर्सां पुराय जायत आयिल्लीं. आशुतोशाकडेन ताचें लग्न मोगांत पडून आनी सगल्यांचे संमतीनूच जाल्लें. तांचें जोडपें म्हणल्यार राम सितेचेंच म्हणूं येतालें. दोगांय एकामेकांक सोबसारकीं. लांब रूंद पाटी कसो उजळ मुखामळाचो आशुतोश मदनाचो पुतळोच कसो. जाल्यार छायाय कितें दिसपाक उणें नासलें. गोल गोमटें हांसरें तोंड, पोल्याचेर दोन खळयो आनी खाडके वयलो तीळ त्या मुखामळाक कोणाचेय नदरेन भरून काळजांत देंवोवपाक पुरो आसलो.

आशुतोशाक ल्हान भुरग्यांची खूब ओड. तो बापूय जावपाचो आसा म्हणून छायान ताका ज्या दिसा सांगिल्लें त्या दिसा खोशेन 'आय लव यू...! आय जस्ट लव यू...!' म्हणत ताणें छायाक मोगान आपल्या गोपांत घेतिल्लें.

''खरेंच पियू...!'' ताका तो मोगान पियू म्हणटालो.

''तुवें म्हजो संवसार पुराय केलो. सांग तुका कितें जाय?'' अशें विचारून छायाक प्रस्नूय केल्लो. पोटा कडेन हात व्हरत, 'येवपाचो आसा ताजेच खातीर मागतलें. वेळ येता तेन्ना सांगतां'' अशें म्हणत परत तें ताचे वेंगेंत रिगिल्लें.

आपल्या भुरग्याखातीर निखटीच जल्मल्ली कंवळी माया त्या खिणाक छायाच्या दोळ्यांनी आशुतोश पळयतालो. बाब जाल्यार कितें नांव दवरचें आनी बाय जाल्यार कितें नांव दवरचें हाचेरूय तांचे मर्दी केन्ना केन्ना झरावारक्यो जाताल्यो. एका परिपूर्ण संवसाराचें सपन तीं एकामेकांच्या दोळ्यांत पळोवपाक लागिल्लीं.

गुरवाचाराच्या सातव्या म्हयन्याचेर म्हणजे फुलां माळपाचीं आशिल्लीं तेन्ना सावन छाया कुळाराक देवड्ड्यां आयिल्लें. आशुतोष तसो मर्दी मर्दी मेळून वतालो. येवपाक मेळना तेन्ना मात फोन करून घरकान्नीची खबर घेवंक विसरनासलो. तो पणजे बँकेंत अकावटंट आसलो. रायबंदराक तीं फ्लॅटांत रावतालीं.

देवड्डेंची येरादारीची समस्या, धुल्लाचें प्रदुशण हाका लागून तो छायाक

देवड्ड्यां धाडपाक पयलीं तयार नासलो. अशा दिसांनी कुयदाद घेवपाक कोण तरी जाय म्हणून... "आइगेरूच सगलें सारकें जातलें आनी सध्या तरी थंय मायनींग बंद आसा. दोन तीन म्हयन्यां उपरांत तें सुरू जातलें" अशें म्हणून तें वचपाक हट करपाक लागलें. छायाच्या ह्या हट्टाकू लागूनच मागीर तो तयार जालो. छायाची खबर गौतमान कळयतकच तोवूय रोखडोच भायर सरलो.

"बाबांनो भायर कितेंय करूंक मेळ्टा जाल्यार पळयात रे...!" छायाची आई बाबडी 'एकदांचीं या हांगाच्यान' अशा किंवाट्यान तांकां दोगांकूय विनोवपाक लागली. तशे रतीश आनी गौतक 108 तल्यान सकयल देंवन ट्रकां मदल्यान वाट काडपाचो यत्न करपाक लागले. इतल्यान ब्लॉक थोडोसो सुटलोय बी. करून करून 108 देवड्डेंच्या पुलाच्या तोंडार येवन रावली.

इतल्या वर्सां सावन सांवड्ड्यां आनी कुडचिऱ्यां मदीं दुवो जोडपी तो पूल लेगीत त्या दिसा छाया आनी हॉस्पिटल हांचे मदीं संबंद जोडूंक असफळ थारिल्लो. तोवूय आयज मोन्यांनी स्तब्ध उबो आसलो.

पुलाच्या दोनूय वटांनी तशेंच फाटल्यान आनी फुडल्यान ट्रकांच्यो अंतपार नाशिल्ल्यो लांबचे लांब रांको दिसताल्यो. धुल्लान माखिल्लो काळ्यो-तांबड्या मिनान लिकलिकपी रस्तो आनी ताचेर उबे आशिल्ल्या विद्रूप दिसपी ट्रकांक पळयतकच, खंयच्याय रेब्या कोंडांत लोळिल्ले रेडे कोणाक तरी शिंगां खुपसुपाचे तयारेन उबे आसात कांय दिसताले. ब्लॉकांत आनीक भर घालपाक दोन ट्रकां मदल्यान घोंवऽऽऽ घोंव ऽऽऽ करीत वाट काडपी दोन चाकी चालक आपल्यो गाडयो मेळटात तश्यो मदीं आडव्यो तिडव्यो घालतना दिसताले. तर खंयूय इल्लीशी रूंद सुवात मेळ्टा थंयच्यान घुसपाक धाकल्यो चारचाकी चलोवपीय फाटीं रावनासले.

कांय जाण त्या वेळार एकामेकांक वळखून लेगीत अनवळखी जाताले, तर कांय जाण "खंय घुसता रे ×××××...! मुखार वाट ना ती दिसना...?" म्हणून गाळी लेगीत घाल्यार कान भयऱ्यार घालताले. आनी फुडें वताले कारण सगल्यांकूच वेळ जातालो.

ट्रकांची घरघर सतत चालू आसली. त्या घरघरांत 108 च्या सायरनाचो आवाज खंयच्या ट्रकाच्या काळ्या धुंवरांत हुबून वतालो हें कोणाकूच कळनासलें.

रतीश आनी गौतम सगल्या प्रकारचे यत्न करून बेजारले आनी परत येवन

गाडयेंत बसले. गौतमाचें उदास तोंड पळोवन रतीशूय बरोच पेचांत पडिल्लो. "कसल्या उतरांनी हाका समजावं? कितें उलोवं हाचे कडेन तेंच कळना?" गौतमाक पळोवन तो मनांतच पुटपुटलो आनी ओगीच रावलो. तशे ते दोगूय मर्दी मर्दी छायाची जाग घेत आसले. "ब्लॉक सुटल्यार पुरो" म्हणिल्ल्याची भावना दोगांयच्याय तोंडार झळकताली. पूण हे परिस्थितींत कितेंच करप शक्य नासलें. रस्त्या वयल्या ब्लॉका भशेनूच कांय खिणा खातीर तांचेय विचार मातशे ब्लॉकांत पडिल्ले सारके जाल्ले. नेमकें कितें करचें तेंच कोणाचे तकलेंत येनासलें.

रस्त्या वयलो ब्लॉक सुटिल्लो जाल्यार घडये त्या खिणाक सगल्यांच्या विचारां मदलोय ब्लॉक सुट्टलो आसलो.

पोटांत भुरगें घुंविल्ल्या कारणान छायाची भलायकी मात खिणा खिणाक इबाडत आसली. हॉस्पिटल आतां एकाच किलोमिटराचेर आसलें खरें, पूण त्या दिसाक तें एक न्हय, एक हजार किलोमिटर पयस पावतलें म्हणपाचें कोणेंच येवजूंक नासलें.

फाटल्या म्हयन्याक छायाक दोतोरागेर तपासपाक वतना ताचे वांगडा ताची आई गेल्ली. दोतोरान तेन्ना सगलें बरें आसा म्हणून सांगिललें. पूण बाळंटेरा वेळार जर तें रोखडेंच हॉस्पिटलांत पावलें ना जाल्यार बाळंत जातना अडचण येवपाक शकता अशेंय ताणें म्हणिल्लें.

छायाक पळोवन सट्ट करून दोतोराचीं उतरां तिका याद जालीं आनी ती आनीक अस्वस्थ जाली. दोळ्यांतल्यान दुकांची एक धार गळयत ती आसा ते पोटतिडकीन "म्हजे धुवेक वाचय रे देवा...! ताची पार्त बरे भशेन व्हरून हाड सायबा... ताचो कुसवो पोसवुंदी रे देवा...!" अशें म्हणत सगल्या देवी देवतांक होरावपाक लागली. तिचीं तीं करूण उतरां आयकून दोतोराचे आनी नर्सीचेय दोळे ओले जाले बगर रावले नात.

पूण ब्लॉक सुटपाची वाट पळोवपा बगर कोणा कडेनच दुसरो पर्याय नासलो.

येदोळ सावन पंपार अडकून उरिल्ले ट्रक हाल्ले तशे दुसरे वटेंतले ट्रक सवका सवका हालपाक लागले. धा-पंदरा ट्रक गेले उपरांत एक लग्नाची न्हवरेकारांची गाडी ब्लॉकांत पडिल्ली तांकां दिसली. तांकां पळोवन तांणी मनांतल्यानूच "हेवूय कोण आमच्या सारकेच म्हुर्ताक चुकल्यात" अशें म्हणून

चुरचुरे उक्तायले आनी एक दोन-चार ट्रक फाटल्यान दोन बशी आडकल्ल्यो आसल्यो. बसींतले कांय प्रवासी तकली भायर घालून काकुळटेन 108त पळयताले. "कोणूय आसूं बाबडी. ब्लॉक सुटून बेगीन हॉस्पिटलांत पावल्यार पुरो...! देवा तूं पाव...!" म्हणून अनवळखी लेगीत हड्ड्यार आनी ओंठांक हात लावन मागणें करतना दिसताले.

...बुराक पडिल्ल्या एकाच पनेळांत बशिल्ले आनी पेंवपाक येनाशिल्ले दोन मनीस आनी कितें करतले आसले?

ब्लॉकांत पडिल्ले बसींतले लोक बसींतूच चिड्डून उबे रावन "हें सदचेंच जालां...!" अशें म्हणून ओम्गी रावताले. कोणाक कामाक पावपाक, तर कोणाक बाजार घेवन घरा येवपाक. कोणाक... कोणाक मेळपाक, तर कोणाक इश्कोलाक-कॉलेजींत वचपाक बशींनी वराचीं वरां लोंबकळतच रावचें पडटालें. आनी लग्नाक म्हुर्तार पावतलो जाल्यार न्हवऱ्याक पांच ते स वरां बेगीनच भायर सरचें पडटालें. फुडली ट्रीप चुकिल्ल्यान बसकारय बेजारताले.

हें सगलें पळोवन मोहन सामको उबगलो.

"ह्या सगल्या प्रकाराचेर कोणूच कित्याक आवाज काडिनात? कांयच उपाय ना हाजेर?" असो प्रस्न मोहनान तांकां केलो.

ह्या प्रकाराचेर तिकडल्लो रतीश परत तेच पोटतिडकीन उलयलो.

"आवाज काडटलो कोण? हे जे सगले ट्रकवाले दिसतात तांचे पात्रांव हांगाचेच. ल्हान मायनीय तांच्योच, ट्रान्सपोर्टूय हांगाच जाता. हांगा जो कोण आवाज काडटा ताचें तोंड रोखडेंच ट्रक दिवन बंद करतात. हाकाच लागून आयज हें अशें आसा. आमच्या हेवटेनच्या गांवांनी पासय मार, तुका पोरसांत झाडां किल्लल्ले भशेन ट्रक किल्लल्ले मेळटले. एका एका आंगणांत पांच-पांच, सात-सात ट्रक. जाचे कडेन ट्रक ना, वा जाका ह्या धंद्यांत पडपाचें ना तो कुशीक रावता, धुल्ल खाता राजकारणाक खेपता. चार दीस बोवाळ घालता, पांचव्या दिसा पयशे घेता आनी ओगी पडटा. मायनींग नांवाचो नवो धर्म हांगा जल्मला. ह्या लोकांचो धर्म आनी कर्म एकूच... मायनींग...!" हें सगलें मोहन नव्यानूच आयकतालो.

"तुजे येदे इतले तरणाटे हांगा दिसतात. ते कांयच करिनात तर...?"

"करिनात कित्याक? करतात...! चडशे जाण ह्याच ट्रकांचेर ड्रायवर आसात. थोडे गॅरेजींनी लोखंड धोडायतात आनी उरिल्ले दोन नंबराच्या म्हालाचो धंदो

करतात. आमदारांची गुलामी करतात. पयसो हांकां नाचयता आनी हे पायशां खुस्तार आनी सोऱ्या नेटार नाचतात. आपल्याच पोटार पांय दवरून ट्रान्स्पोर्टाक विरोध करपाक कोणाची कापाझदाद आसा? चलता तशें चलूं म्हणून सगले ओम्मी आसात...!"

"तूं हे लायनीक 108 चलोवपाक नवो दिसता. म्हणून तुका कांय खबर ना".

"हय...!"

"आनी पुलीस किते करतात तर?"

"सुमार एक वर जावन गेलें आतां, एक तरी पुलीस तुका दिसता जाल्यार पळय... तेवूय येनात".

"आमच्या मडगांवांत अशें केन्नाच जायना...! आमी त्या मानान खूब सुखी आसात".

"आसतलेच सुखी...! हें सगलें राजकारण थंयच्यानूच तर सुरू जाता न्ही..?"

मोहनाक सामकें नाकयां पडिल्ले भशेन जालें. सांवड्डेंकार ब्लॉकाच्या प्रस्नाचेर सामके चाळवल्यात म्हणपाचें ताका आतां सारकें पटलें.

छायाच्यो वेणो मात आतां सुमारा भायर वचपाक लागिल्ल्यो. धुल्लाक लागून गाडयेचीं जनेलां नर्सीन पयलींच बंद केल्लीं तशे पंखे चालूच आशिल्ले. पूण छायाची कूड आतां उरफाटे परिणाम दाखोवपाक लागिल्ली. वेगळेंच फुगासांव ताका जावपाक लागिल्लें. तकली हेवटेन तेवटेन हालोवन ताचे केंसूय फाफसल्ले. ताच्या पुराय आंगा वयल्यान घामाच्यो पांवळ्यो देंवपाक लागिल्ल्यो. थोडे केंस तागेल्या कपला वयल्या घामाक लागिल्ले ते आई परत परत पदरान पुसून सारकी करताली. छाया आतां सोंसना जावन व्हडल्यान करंदाय मारपाक लागिल्लें. आंग ताणपाक लागिल्लें. सवका सवका तें आतां आपली साबुद्द वगडावपाक लागिल्लें.

आई गे ऽऽऽ आई गे ऽऽऽ...! करून मारिल्ली तागेली एक एक करंदाय 108त आशिल्ल्या सगल्यांचें काळीज चिरीत वताली आनी शब्दब्रह्मांत वचून विलीन जाताली.

फाटल्यान फुडल्यान आशिल्ल्या ल्हान व्हड गाडयांचो वेंटाळो जसो रस्त्याक घट जायत वतालो तसो तसो ब्लॉकूय दाट जायत आसलो.

सगल्या देवांक उलो मारले उपरांत निमाणो विस्वास आसलो तो दोतोराचो. कारण तो प्रत्यक्ष मुखार उबो आसलो. तोच विस्वास छायाची आई आतां दोतोराचेर दवरून आसली. "कितें जालां दोतोर ताका? ताजी पार्त कित्याक लागून आडकल्या?" रडतूच ती दोतोराक प्रस्न विचारूंक लागली. कितें तरी वायट घडटलें म्हणपाचो भंय त्या खिणाक तिच्या उतरांनी जाणवतालो. पूण तो विचार ती अजून आपल्या मनांत हाडपाक तयार नासली. "भुरगें पोटांत घुवून घुवून वारेक घुस्पलां. ताका वाट मेळना. आतां सिझेरियन केले बगर उपाय ना. ऑपरेशन केले बगर दोगांकूय वाटावप शक्य ना..." दोतोर गंभीर जावन उलयलो.

दोतोरालीं उतरां छायाचे आईक आनी फाटल्यान कान लावन बशिल्ल्या गौतमाक शिरंतरांतल्यान हालोवन गेलीं. तीं दोगांय एकामेकांक दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी एके व्हड खंतीन पळोवपाक लागलीं. आनी भायर पळयत भितरले भितर हुडको भरून रडपाक लागलीं.

108 त्या दिसा हेर ट्रकां सारकीच गोगलगायेचे गतीन चलपाक लागिल्ली. कोणाचोय जीव वाटावपाक वाऱ्याचे गतीन धांवपी 108 त्या दिसा मरण व्हरपाचे गाडये सारकी कोणाल्या इंतेराक वता काय दिसताली.

फुडें ब्लॉक मातसो सदळ जाता तो पळोवन आतां सगल्या ट्रकांच्या इंजिनांची घरघर वाडपाक लागिल्ली.

पूण छायाची दूख आतां निमाणी तेंगशी हुपपाक लागिल्ली. ताचो आवाजूय बसपाक लागिल्लो, आंगांतले त्राण वचपाक लागिल्ले. पोटांतलो कंवळो गर्भ जल्म आनी मरण हांचे मदीं ब्लॉक जाल्लो. कोणें तरी वारी सयत भुरग्याक मुळासकट हुमटावन काडचो अशें त्या खिणाक ताका जालें. घडकेक आईन ताची तकली अळंग आपले मांडयेर दवरली. तेन्ना सगले प्राण एकठांय हाडून 'आई गे ऽऽऽऽ...!' म्हणून पुराय आंग एक सारकें ताणून, ताळो सर्राटून मारिल्ली तागेली ती निमाणी आरड आशिल्ली. 108त आशिल्ल्या सगल्यांचे कान मन चिरीत गेल्ली छायाची ती निमाणी आरड लेगीत ट्रकांच्या इंजिनांच्या घरघरात खंय तरी सासणाची ब्लॉक जावन गेल्ली.





# दुसरें वचन

(कारवारी मोर्डीतली कथा)

दिनेश वयर माळ्येर आशिल्ले गॅलरींत आराम खुर्चेंत बसून सूर्य तेळत सकयल वैत ते पळयत बशिल्लो. येळ ह्या दिसान व्होड जाल्ले कारणान साडेस जाल तरी सूर्य सकयल देंवू तयार नाशिल्लो. सकयल देवघरांत दिवलावणे वेळा जाल्ले कारणान परत पुजेची तयारी चलिल्ली. तेमगेल घरांत सदां ह्याच वेळार तेगेल आई तो आनी भाची सुषमा हीं सगलीं जाणां श्रीसाईसच्चरीताचें नेमान वाचन करतालीं. गेले म्हयनेभराकडे सुषमा ना ह्या वाचनाक. कारण तेगेल लग्न जावन पुराय म्हयनो जावन गेल्लो. दिनेश आज बेजार येयला म्हूण तकली उसळता हें निमित्य करन्न वयर माळ्येर येवन बशिल्लो. बशिल्ले कडेन तेका देवघरांत घाल्ल्या धुपा वासान मन अगदी आनंदीत जाल्लें. तेका मनांत असो विचार आयलो की कितले पिशे देव ना म्हणतात जगांत. तरी एक वेळार ह्याच साईसच्चरीतान तेगेल्या मनाक उबारी दिल्ली. जग आनी विज्ञान खंय पावं तरी एक अदृश्य शक्त आमकां देवारुपान पावता. तरी मनांत श्रद्धा आनी सबुरी उरल्यार मागीर देव कोणाल्याय रुपान येवन एकामेकाली मजत करता. तरी ह्या सगल्या गजालींचेर आपणालो विस्वास उरूं जाय.

दारार बेल मारिल्ल्याचो आवाज आयलो आनी दिनेशाली तंद्री भंगली. विचार करच्या लागलो ह्या वेळार कोण आयला काय? कोणी येयल्यार येवं इतले बेग्गी काय हांव सकयल वच्चों ना. ह्या दोन-तीन म्हयन्यांत खूब धांवपळ जाली तरी ह्या म्हयने भराकडे मात उसंत मेळिल्ली. कारण तेगेल्या भाचेलें म्हणल्यार सुषमालें लग्न जावन म्हयने भरान तें पयरूच घोवा बराबर अमेरिके वच्च्या गेल्लें. पूण सुषमा आपल्याक सोडून खूब खूब वर्स जाले पयस आसा अशें पदे पदे दिनेशाक दिसतालें. सुषमाल्या आवय-बापायक म्हणल्यार

आपल्या भयण-भावोजीक दिल्लें वचन ताणें पुराय केल्लें. तो खूब समाधानी आशिल्लो. पूण मनांत तितलोच खंती. कारण तेणें आनी एक मनशाक वचन दिल्लें. पूण तें वचन तो आज मेरेन पुराय करूं शकलो नाशिल्लो. त्या मनशाली ह्या म्हयन्याभरा कडेन खूब म्हणल्यार खूब याद येवच्या लागिल्ली. तो मनीस म्हणल्यार तेगेल ल्हानपणाची प्रेमिका रोहिणी. तेगेले यादीन परत एकपरी मनांत चैत्र पालवी फुटच्या लागिल्ली अश म्हणूं येतालें. पूण हे घडेक रोहिणी खंय आसा? कितें करता काय? कशें आसा काय? तेगेलें लग्न जालें उरतलें काय? काय हांवें वचन दिल्लें तशेंच सांबाळ्ळन आस काय? अश नाना प्रस्न तेंका एकदम बेजार कन्न सोडटाले.

दिनेश आनी रोहिणी दोगी जाण एकामेकाली शेजारी. ल्हान धन्न बरोबर वाडलीं, फाटीं फुडें शिकलीं आनी जल्मभर सांगात करचो अशें वचन दिवन जाल्लीं. प्रेम केन्ना करिनात तें आपूणच जाता तश तेमगेलं जिवनात घडन्न आयिल्लें. शांताबाय म्हणल्यार दिनेशाल आवय. रोहिणी आपल्याक सून म्हणच वळखी लोकाक वळख कन्न दिताली. हें अशें सगलें बरें भशेन चलिल्लें. पूण मुखार नियतीक कितें मान्य आसा काय मान्य ना हें तांकां लेगीत खबर नाशिल्लें. आमकां मनशा जातीक सगळें भविश्य खबर उरल्यार पयलींच कितें तरी तजवींज करन्न दवरतालो. पूण तो दीस धा वर्सां फाटीं घडिल्लो. दिनेशाल जिवनांत एक विचित्र मोडण घेवन आयलो आनी खिणांत तेगेल सगळें जिवन बदलून गेलें. हो असो दीस तेगेल आयुश्यांत येतलो म्हूण केन्ना ताणें वा घरच्या लोकांनी वा रोहिणीन लेगीत विचार केलनाशिल्लो.

त्या दिसा दिनेशाली भयण आनी भावोजी दिवाळे रजेक म्हूण सुषमाक घेवन कारवार पावोंक म्हूण गोंयच्यान भायर सरिल्लीं. पूण वाटेंत करमल घांटार एक मॅंगनीज टिप्पर तेमगेल बायकाक जबरदस्त धक्को दिवन गेलो. हांगा दिनेशाक कोणें तरी फोन कन्न कळयलं हो अपघात घडला म्हूण. तेमकां काणकोणच्या सरकारी हॉस्पिटलांत दाखल केल्ले. जाल्यार हॉस्पिटलांत भयणीली आनी भावोजीली अवस्था दोळ्यान पळोवची न्हय. भयण तर दिनेशाली वाट पळयताली. दोळ्यांत आपलो जीव घेवन. भयण तर साप्प थतर वितर जाल्ली. भावोजी कोमांत आशिल्लो. तरी दिनेशाक पळोवन भयणीन तेका म्हऱ्यांत आपोवन घेतलो. तेका समा उलोवंक जायनाशिल्लें. तेणे भयणीलो हात हातांत घेतलो पूण तोंडांतल्यान उतरां भायर पडलीं नात.

''बाळा, हांव वाचत अशें दिसना. म्हागेल्या सुषमाक सांबाळ आं. तेका ऽ

ऽ ऽ तेका काय कमी पडूं दिनाका.... तेगेल.... आवय.... आवयबापूय जावन सांबाळ कर आं... म्हा....क... वचन दी बाळा... वचन... दी."

"ना आका, अशें म्हणूं नाका तुका काय जायना. तरी हांव बायेक सांबाळटलों. तेगेल काळजी कर नाका. हांव वचन दिता तुकां".

हें इतलें आयकनाका तेगेली भयण त्या मरणा काडाओडींतल्यान मातर अशी आसली. आनी व्हड स्वास घेवन दोळे धांपले ते परत आनी केन्ना उगडलेच ना. भावोजी तर कोमांत गेल्लो तो बी हो जग सोडून गेलो. त्या एक दोन मिनटांत सगलो खेळ खतम. तरी सुषमा मात किरकोळ मार लागून वाचलें. पूण आवयबापाय विणा परकें जालें.

सगलें बरें कन्न चलतना हें सगलें विचित्र घडलें. हे घटनेन तर दिनेश साप्प हालून गेल्लो. नियती कशी आनी केन्ना नाचयत म्हूण सांगूं जायना हेंच खरें. कांय वर्सां फाटीं बापूय गेलो. कश्ट कन्न नोकरी मेळयली. भयणील लग्न केलें. खंय तरी ह्या धा वर्सा कडेन सगलें तेगेलें वेवस्थीत चलिल्लें. ह्या वर्सा तो लग्न जावचो आशिल्लो. ह्या दुख्खाचो वेग इतलो आशिल्लो की शांताबाय परस दिनेशाक तेजी झळ जास्त बशिल्ली. तरी सुषमा णव वर्सांचें आशिल्लें तरी खूब धैर्यवान आशिल्लें. येद्या ल्हान पिरायेंत तेणें हो आघात पचयिल्लो. मामाक म्हणल्यार दिनेशाक तेंच धीर दितालें. म्हणतात असल्या वेळार ल्हान पेराक देवच ह्या असल्या परिस्थिती कडेन उलोवन घेवची शक्त दिता म्हूण.

दीस वता वता दिनेशाले हाल पळोवचे न्ही. पूण एक दीस दिनेशाल दोस्त सुनीलान तेका शिरडीच्यान श्रीसाईबाबाले श्रीसाईसच्चरीत ही पोथी हाडून दिली. ती वाचूंक सांगली. मन शांत जातलें म्हूण धीर दिलो. मुखार ह्या पोथी वाचनान दिनेश परत सुधारूंक लागिल्लो. खूब फरक पडलो. तरी ह्या गजा-लीक सुषमा आनी रोहिणीली मजत आशिल्लीच. पूण ह्या दोन वर्सां कडेन तो रोहिणीक आपल्या पसून पयस दवरचो यत्न करतालो. दोन तुळशी लग्नां परब जावन गेली तरी दिनेश लग्ना नांव काडना म्हूण सुषमा आवयबापाय बराबर शांताबाय बी चिंतेंत आशिल्ली. पूण आतां दुख्खा घावे पेकत आयिल्ले. रोहिणील्या आवयबापायली चिंता शांताबाय खबर आशिल्ली. आपलो पूत व्हड दुख्खांतल्यान आतांच सांवरला. तरी आपूण नरम पडल्यार तो आनी नरम पडतलो म्हूण मनार फातर दवरून तिणें आपल्याले धुवेलें आनी जांवयालें मरण व्हड मनान पचोवन घेतिल्लें एक जल्मदात्री आवय जावन.

ती तुळशी परब जावन बरेच दीस जाल्ले. गेले दोन वर्सां कडेन गप्प आशिल्ले

सुषमाल आवयबापायन परत लग्ना विशय शांताबाय कडेन काडलो. तेमगेली चूक नाशिल्ली. दिनेश तर आतां बरो सांवरिल्लो. तरी मर्दी एक दीस हो विशय घरांत काडलोच. पूण त्या दिसा तर दिनेशान नृसिंह अवतार घेतलो. हें पळोवन सुषमा लेगीत कांय ना जावन पडलें. हें पळोवन शांताबाय अदीक भियेली. कारण केळी वरी थंड आशिल्लो पूत सुर्या वरी तापलो कसो? तेमी सगळ्यान तेका बाबा, पुता कन्न समजयलें तरी शांत जायना. तो कांयच उलोवंक तयार ना. तेणें तेमकां इतलेंय सांगलें ''हांवें बायेक वचन दिलां. तें म्हाका पुराय करूं जाय. तें वचन केन्ना पुराय जातलें तेन्नाच हांव लग्न करतलों''.

हें इतलें जालें आनी दिनेश आशिल्लो किर्ते किर्ते निमित्य काडून सुषमाक आशिल्लो टाळूक लागलो. सुनीलान खूब समजून पळयलें. पूण सगळें व्यर्थ गेलें. पूण त्या दिसा दिनेश एकटोच घराशिल्लो. तेन्ना रोहिणीन तेका मेळोवन घेतलेच. ही करामत जाली सुषमाल पांयान कारण त्या दिसा शाळेंत वच्चे पयलीं सुषमाक तें सांगून आयिल्लें की मामा एकलोच घर आसा म्हूण. आतां तर साप्प दिनेशालो नाईलाज जालो. आत तेका रोहिणीक टाळप शक्य नाशिल्लें. रोहिणीन मूळ मुद्याक हात घालो आनी सरळ लग्ना विर्शी तेका विचारलें.

''हें पळय रोहिणी, हावें बायेक वचन दिल्लें आसा. तेगेल पोराक हांव सांबाळटलों म्हूण आनी म्हाका सुषमाचेर दुर्लक्ष जाल्लें नाका''.

''दिनू, आरे म्हागेल तरी विचार कर. हांव ह्या घराक काय परकें न्ही. अरे हांव लेगीत तेक सांबाळूं शकता. म्हाजेर विस्वास दवर मरे''.

''आगो, म्हाकाच म्हाजेर विस्वास ना थंय तुजेर कसो हांव विस्वास दवरूं? तरी सुषमालें पुराय शिक्षण आनी लग्न जाता म्हणल्यार तूं लग्नाक थांबतलें जाल्यार पळय. मागीर आमी खुशाल लग्न जावया. ह्या जल्मांत तरी हांव तुजे शिवाय दुसऱ्या बराबर लग्न जावचों ना. लग्न करतल तो तूज बराच. हें हांव तुका आयज वचन दितां. तुका मान्य आस काय पळय ना तर तुका तुगेल मार्ग मेकळो आसा''.

जालें, हें आयकून रोहिणीक उलोवंक तोंडूच ना जालें. ते रडत दिनेशाल घरांतल्यान भायर सरलें. थंय मदले कुडींत सुषमा आशिल्लें. तरी बरें थंय काळोख आशिल्लो म्हूण. तें पुस्तक विसरलें म्हूण व्हरच्याक आयिल्लें. तेन्ना तेमगेल हें सगलें उलोवणें तेणें आयकलें. मुखार पूण ना म्हूण तेणें हेजे विर्शी रोहिणीक जावं आपल्या मामाक ह्या विर्शी तेणें जाप विचारलो ना. पूण तेगेल दोळ्यांतल्यान मात काळी न्हंय व्हांवच्या लागिल्ली तरी तेणें स्वताक

आपल्याक सांवरून घेतिल्लें.

हे गजालीक कांय म्हयने जावन गेले. आतां रोहिणी लेगीत दिनेशाक टाळूंक लागिल्लें. तेमगेर येवचे साप्प उणें केल्लें. तेगेल आवयबापूय शेजारधर्म म्हूण केन्ना केन्ना येताले. ना अशें न्हय. हे गजालीन शांताबाय खूब बेजार जाली तरी ती कांय उलोवंक शकनाशिल्ली. तरी खंय वतना रोहिणीक घेवनच वताली. त्या दिसा गांवगेरी रामनाथा देवळां वचूंक रोहिणी ती आपोवंक गेल्यार तेमगेल दाराक बीग. तिका एकदम कच्च जावन छातये लाथ मारिल्ले वरी जालें. हेमी म्हाक सांगनासतना खंय गेल काय? तरी तिका रोहिणीलो हुस्को जातालोच की चली काय आपले जिवाचें बरें वायट कन्न जाल्या पुरो म्हूण. परत कवडार नदर पडली तेन्ना चिळकय खाचींत कागद दिसलो म्हूण हात घालो तर तें पत्र आशिल्लें. वाचल्यार त्या पत्रांत इतलेंच बरयिल्ले की आमी हो गांव सोडून वतात आनी दिनेशाली अट आमकां मान्य आसा. हें वाचून शांताबायक खूब दुख्ख जालें तरी करतल कितें? आतां फकत देवाचेर विस्वास देवा रामनाथा तूंच हें सगलें पळोवन घे आनी हातूंतल्यान तारूक वाट दाखय. अशें मनांत म्हणीत रामनाथा देवळा वच्चो बेत रद्द करून शांताबाय घरा आयली.

दीस वते आशिल्ले. काळी न्हंयचे उदाक अरबी सागराक मेळिल्लें. वेळ कोणाक रावील आसा? केन्ना धा-इकरा वर्सांचो काळ गेलो कोणाक कळ्ळेंच ना. सुषमा व्हड जालें. शिकलें संवरलें आनी जेन्ना बरो चलो मेळ्ळो तेका हेमी लग्न केलें. तेगेल आवयबापूय भायर पडले तेन्ना हें पोर धा वर्सांचें आशिल्लें. केन्ना व्हड बायल जालें तेमकांच कळ्ळें ना. पूण दिनेश मात खूश आशिल्लो की बाये भावोजीक दिल्लें वचन तो पुराय करूंक शकलो. सुषमा विर्शी सगलें बरेंच घडिल्लें. पूण मनांत एक दुख्ख घर करून आशिल्लें की एक वचन आ-पूण पुराय करूंक पावलो आनी एक वचनाचें कितें? तें तेणें रोहिणीक दिल्लें. रोहिणीलें कुटुंब केन्ना हो कारवार गांव सोडून गेलें तेन्ना दिनेशान तेमगेल्या खबर आशिल्ल्या सगल्या संबंदितांगेर फोन मारून पळयलें तरी कांय फायदो जालो ना. तेमी खंय गेल्यांत हो प्रस्न प्रस्नूच जावन दिनेशाक मन खातालो.

ह्या दिसांनी परत परत याद येताली ती रोहिणीली. खंय आसा काय? कितें करता उरतलें? तें लग्न बी जाल ना मूं? हांव एक तेका विसरलों पूण तें म्हाका कशें विसरतलें? म्हणटात की बायलाल मन एकदम हळवें आसता थंय हें रोहिणी इतलें कठोर कित्या जालें? पूण तेंका हांवें अशें करनेय आशिल्लें. हांव चुकलों पूण तो वेळ, तो काळ तसो आशिल्लो. पूण हांवें बी तेगेल लार्गी इतलें

कठोर वागूं नजो आशिल्लें. हांव लग्न जाल्यार आमकां पोरा जात आशिल्लीं आनी सुषमाचेर दुर्लक्ष जात आशिल्लें म्हूण हांवें तेका लग्न जावं नकार दिलो. म्हागेल आवयक तें आपल्याक जल्म दिल्ल्या आवय म्हणकी करतालें थंय सुषमाक आपल्या पोरा म्हणकी तें सांबाळूं शकचें नाशिल्लें? हांव त्या वेळार तेक कसो समजूं शकल ना? म्हागेल प्रेमार म्हाक इतलो विस्वास ना जालो? तेक हांव ल्हान धरन वळखतालों तरी तेगेल मनाक हांव कश समजूं शकलों ना? आतां तेका वचन दिल्लें कश पुराय जातल देवा? ह्या जगांत खंय म्हूण हांव रोहिणीक सोदूं? अशें हे नाना तरेचे प्रस्न दिनेशाक रातदीस मनाक खाते उरताले. मागीर मन एकदम बेचैन जातालें. ह्या दिसान तेका जेवणाखाणाचेर वान्साच ना जावन गेल्ली. तरी सुषमा घोवाल घरा वतना दिनेशाक साईबाबाली शपथ घालून गेल्लें की आपले फाटल्यान उपाशी केन्ना उपाशी रावनय म्हूण. तेका सगलें खबर आशिल्लें मामान आपले खातीर आपल्याला प्रेमा बलिदान केला म्हूण.

खंय तरी विचारामाळ तुटली आनी माळे नेटार कोण तरी चमकता असो भास दिनेशाक जालो. ना असोच आपल्याक भास जातलो म्हूण तेणें बी फाटीं वळून पळयल ना. पूण अकस्मात कोणें तरी तेगेल्या खांदार हात दवरलो तेन्ना तेका फाटीं वळून पळोवचेंच पडलें. आनी तो फाटीं फिरलो. तेका आपल्या दोळ्यार विस्वासच बसलो ना. एकदम दोळ्यांत उदक येवच्या लागलें. दिसलें आपूण सपनांत बी ना मूं? कारण आतां तेगेल मुखार साक्षात रोहिणी उबें आशिल्लें. तेका म्हऱ्यांत पळोवन दिनेशाक उलोवंक उतरां भायर सरना जालीं. दिनेशान तेका एकदम म्हऱ्यांत घेतलें आनी इतलें वर्स सांठोवन दवरिल्ल्या दोळ्या उदकाक वाट करून दिली. रोहिणीन तेका सावशीत केलें. आपल्या हातान तेगेल्या दोळ्या वयली दुकां पुसलीं. आपलीं दुकां पुसचे पयलीं.

"आगो, म्हाक सोडन्न इतलें वर्स खंय आशिल्लें".

मागीर रोहिणीन दिनेशाक अथ धरून इती मेरेन सगलें सांगलें. तेमी कारवार गांव सोडून सरळ पुण्या मामाल्या घरा पावलीं. सगल्या सोयऱ्या धायऱ्यांक सांगून दवरलें की दिनेशाल जावं तेमगेल्या घरच्या लोकांल फोन आयल्यार तेमी खंय गेल्यांत म्हूण खबर ना म्हूण सांग. पूण रोहिणी खंय आसा म्हूण सुषमाक खबर आशिल्लें. कारण त्या दिसा शेवटचें रोहिणी दिनेशाक घरच्यांक मेळच्याक आयिल्लें तेन्ना तेमगेल दोगालें भाशण तेणें आयकल्लें. तेन्ना ह्या भाशणा विशय मामा लागीं केन्ना काडूंक ना. पूण रोहिणी वतना सुषमाक सांगून

गेल्लें की आमी सगलीं पुण्या वतात. कोणाक सांगनाका आनी तुगेल लग्नाक मात म्हाका आवश्य अपोवं यो. विसरूं नाका. जेन्ना सुषमाल लग्न ठरलें तेन्ना तेणें मामा लागीं हट्ट धरलो की लग्ना पयलीं सगल्या पुण्याच्यान हाडच्या जाय. आनी हजी जवळी हाडूंक आपूण स्वता वतलें. दिनेशाक प्रस्न पडिल्लो कारण कारवारकार लग्ना जवळी हाडूंक एक तर बेळगांवां ना तर गोंयां वतात पूण हें पुण्या कित्याक वता काय? पूण त्या प्रस्ना उतर ताका आता मेळिल्लें. मुखार पुण्या वचून सुषमान रोहिणीक गाठलें. तेका लग्ना आपोवणें दिलें. आपल्याल पयलीं तुमगेल लग्न दिता म्हूण वताच केली पूण रोहिणी तयार जाल ना. पयली तेमगल वचन पुराय जावं मागीर हांव गांवां येतलं तरी तुगेल्या लग्नाक येवचें पळोवया. हें आयकून तर आत दिनेशाल बोडाक लायट पेटली कारण सुषमा घर भरणी वेळार कोणाल तरी दारांत पळयत वाट पळयतालें. सुषमा रोहिणी कडल्यान वचन घेवन आयिल्लें की आपल्याल फाटल्यान मामाली काळजी घेतलें आनी मामाल आदार जातल म्हूण.

हें सगलें आयकनाका दिनेशाल बोडार थेट कारांव उदाक बोडार रकयल्ल्या म्हणकी जालें. आपूण आतां मुखार कितें उलोवूं म्हूण तेकाच प्रस्न पडलो. तेका तेगेलोच राग आयलो तरी बळकन्न रोहिणीक सांगलें.

"रोहिणी, म्हाक जात जाल्यार माफ कर. हांवें तुजेर खूब अन्याय केला. इतलीं वर्सां जाल तरी हांव तुका समजूं शकलों ना. माफी मागची म्हागेल लायकी ना. तरी व्हड मनान तूं माफ करतलें अशी आशा करतां. तुगेल्या आईबाबाल हांव व्हड अपराधी जावन आसा. रोहिणी, म्हाक माफ कर".

"ना दिनेश, अश बेजार कन्न घेवं नाका. त्या वेळार तुगेल जाग्यार हांव आसल्यार अशे कितें करीत आशिल्लें. तेन्ना ती वेळ तशीच आशिल्ली. माफी कसली आनी कित्या मागची. तूंच केन्ना केन्ना म्हणटाल न्ही रे याद आसा, घडे भरले शिवाय वडे मेळना म्हूण. चल दिनू आमी परत आझान परत एक पटी नवीन जिवन सुरू करया".

दिनेश आनी रोहिणी माळे गॅलरींतल्यान सकयल देवाक, शांताबाय आनी रोहिणील्या आवयबापायक पांय पडूंक आयलीं. दिनेशाल मना वयलें मणा वजें आज उणें जाल्लें. कारण तेणें आकाक आनी भावोजीक दिल्लें पयलें वचन पुराय केलें आनी आतां रोहिणीक दिल्लें दुसरें वचन पुराय करचो वेळ आयल म्हूण.



## स्तंभलेखन विभाग

* पयलें इनाम *

**पुरुषोत्तम वेर्लेकार**

श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालय,

मडगांव, गोंय

* दुसरें इनाम *

**तन्वी नायक**

श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय,

काणकोण, गोंय

* तिसरें इनाम *

**सुखदा दैकर**

श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय,

काणकोण, गोंय

* परिक्षक मंडळ *

उदय भेंब्रे

भारती पावसकर

संदेश प्रभुदेसाय



# सागे्रस, तुका येवकार...
# हुनहुनीत येवकार!

''पुर्तुगालाचें गोंय आनी गोंयकारांचेर राज्य आसलें. कांय गोंयकार पुर्तुगाली राजवटी आड झुजले. भारतीय सैन्य गोंयांत घुसलें. पुर्तुगाली पाखल्यांक धांवडायले आनी गोंय परकी राजवटींतल्यान मुक्त जालें. तें भारतीय प्रजासत्ताकांत आस्पावलें''. हे घटणेक आतां अर्द शेंकडो जायत आयलो. मांडवींतलें कितलेंशेंच उदक अरबी सांगरांत व्हांवलें... आनी इतल्या तेंपान पुर्तुगालाची एक बोट गोंयांत पावली आनी आमचे मदले कांय जाण 'ॲक्शन रिप्ले' ह्या सिनेमांत घडटा तशें झप्प करून पन्नास-साठाव्या दसकांत भिरकावले.

आरेच्चा! हें आनी कशें घडलें? 'ॲक्शन रिप्ले'तलें टायम मशीन गोंयकारांक सांपडलें बी कांय कितें? ना. वास्तवांत तशें कांयच घडूंक ना. हांगा फकत कांय जाणांचे मेंदू भुतकाळांत पावल्यात. ते बावडे भियेल्यात. तांकां गोंय हें भारताचो एक अविभाज्य घटक ह्या गजालीचो विसर पडला. जे पाखले आमकां भियेवन शेंपडी तुटसर पळून गेल्ले ते पाखले पर्थून आमचेर शेक गाजयतले ही तांची भिरांत. मुरगांव बंदराचेर हालींच दाखल जाल्ल्या 'एन्. आर. पी. सागे्रस' जहाजाक जाल्ल्या विरोधा वयल्यान हीच गजाल दिसून येता. हो विरोध कित्याक? फकत तें जहाज पुर्तुगाली म्हूण? जर तें जहाज अमेरिकी वा ब्रिटीश जाल्लें जाल्यार हे लोक अशेच करीत आसले? ना. 'वेलकम, व्हेलकम' करीत तांचे पांय चाट्टले आसले. हांगा हांव, 'विवा पुर्तुगाल' म्हणून पाखल्यांचो

उदो उदो करिना वा आनीक कोणाक उणाक लेखना. फकत सत मांडपाचो एक प्रांजळ यत्न करतां.

आतां काळ बदल्ला. अक्कल आशिल्ल्यांनी शांती ही उदरगतीची चावी मानून इश्टागतीची वाट आपणायल्या. ह्या बदलत्या काळा प्रमाण गोंय बदल्लां. तशेंच पुर्तुगालय बदल्लां. सालाझारा बराबर सालाझारशायेचो अस्त जावन थंय लोकशाय उदेल्या. ह्या नवयुगांत उदरगतीचे दिशेन झपाझप पावलां मारपी भारतान, इतिहासांतलीं कोंत्रपणां वयर काडून, नव्यान घडून येवपी इश्टागतीक खोंट मारप ही निव्वळ मुर्खपणां! परत परत कळ काडपी पाकिस्ताना सारक्या देशा कडेन इश्टागत करूंक सोदप आनी इश्टागतीचो हात मुखार करपी पुर्तुगाल सारक्या प्रगत देशा कडेन फाट करप हातूंत खंय अर्थ आसा?

'साग्रेस' हें जहाज 18 जानेवारी 2010 ह्या दिसा जग भोंवडेच्या हावेसान, लिस्बन सावन भायर सरिल्लें. 2011 उजवाडचे आदीं परत लिस्बन पावपाचो ताचो बेत आसा. ह्या समुद्र सफरींत तें संवसारांतल्या वेगवेगळ्या देशांक भेट दितलें. ताचें गोंयां येवपाचें रजांव म्हणजे, भारताची भेट घेवन दोनूय देशां मदले संबंद घट करप. वेपारी तशेच सांस्कृतीक देवाण-घेवाणीचो नवो पूल उबारप. पूण आमच्या कडल्या देड शाण्या देशप्रेमींनी ह्या आख्ख्या गजालीचो अनर्थ केलो. 'साग्रेस'च्या पुराय भोंवडेक वसाहतवाद आनी पारतंत्र्याचें वेश्टण घालून ताचेर 'गोमंतकीय देशप्रेमाचो' तखटो मारलो. हे गजालीक 'राष्ट्रभक्त' शैलींत, आनीक कांयच नाशिल्ले भशेन 'इश्यू' करून गोंयकारा मुखार मांडलो. ताका मागीर धर्मप्रिमी, निश्ठावंत (?), राजकारणी आनी उक्त्या नळार हात धुवप्यांनी माथ्यार घेतलो. हें इतल्यारूच सोंपूंक ना. तर तांणी आपूण 'रजनीकांत' बी जाल्ले भशेन गोंयचो समुद्र धुवून काडपचो पराक्रमय केलो!

जर कोण खरेच देशप्रेमी आशिल्लो, जाल्यार ताका 'दया, क्षमा, शांती आनी अतिथी देवो भव' ही भारतीय संस्कृतायेची गजाल खबर आसता आशिल्ली. पूण ना. हांकां देशभक्तीचो इल्लो चडूच 'सायड इफॅक्ट' जाला. 'अतिथी राक्षसः अस्ती' अशें समजून ते सोयऱ्यांक धांवडावपाक लागल्यात. आमच्या भारतांत श्रद्धे परस अंधश्रद्धेरा चड रूढ आसात. म्हाका दिसता 'साग्रेसा'क जावपी विरोध हो तशांतलोच एक भाग. पुर्तुगाल वायट, पुर्तुगाल अत्याचारी, पुर्तुगाल क्रूर, पुर्तुगाल पाडो... ह्यो गजाली तांचे भितर इतल्यो रिगल्यात की तांकां पुर्तुगाल विरोधाची कामीणूच जाल्या. आमचे मदल्या मोटमोट्या

विचारवंत, कवी, शास्त्रज्ञ, दोतोर हांकां लेगीत हो रोग लागप हाचे परस भिरांकूळ आनी तें कितें?

पुर्तुगेज तर फकत गोंयांतूच आसले. ब्रिटीशांनी पुराय भारताचेर कब्जो केल्लो. आमचो सैम इबाडिल्लो. आमची संपत्ती लुटिल्ली, आमचे मर्दी धर्माच्यो वणटी उबारिल्ल्यो आनी अशी कितलींशींच कुकर्मां केल्लीं. हाचो अर्थ असो न्हय की आमी इंग्लंडा कडेन कोंत्रपण करप. मागीर त्याच न्यायान पुर्तुगाला कडेन कित्याक वैर?

भारतीय म्हूण भारताचो अभिमान आसचोच. आसप सामकें गरजेचें. पूण दारांत आयिल्ल्या सोयऱ्यांक धांवडावप तितलेंच चुकीचें. जे स्वताक देशप्रेमी म्हणून घेतात तांणी सोयऱ्यांक धांवडावपा परस हेर गजालींनी लक्ष घालचें. आमी कितें सर्वसुखी? आमचे कडेन समस्यांचे दोंगर आसात. अरबी समुद्र धुवूंक वतल्यांनी हांगासरली लोकशाय आर्दी सारकी निवळ करची. भ्रश्टाचार, चोरी, धर्मीक दंगली ह्या सारक्यो गजाली ना करच्यो. आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार, बुद्धान सांगिल्ले प्रमाण 'स्वता आपूण कितले नितळ आसा?' तें पळोवचें.

'साग्रेसा'क येवकारप हें पुर्तुगेजधार्जिणेपण न्हय, 'अतिथी देवो भव' प्रमाण खरें भारतीयत्व!

'जय हिन्द'





# दायज

दर एकट्यान कोंकणी आवयभाशे विशीं जाणा जावन घेवप म्हत्वाचें

'भास' हें एक माध्यम. जग वळखुपाचें, समजुपाचें. भाशेक लागूनच आमी जगपाक पावतात. आमी आपल्यो अडचणी, आपलें दुख्ख आनी सूख एकामेकां कडेन वाटूंक शकतात. आमी केन्नाय चिंतून पळयलां, जर ह्यो भासो नाशिल्ल्यो तर आमची जीण कशी आसता आशिल्ली? आमी कशी जगता आशिल्लीं काय?

हिंदू धर्मांत देवाचे खूब अवतार आसात. विविध रुपां आसात आनी आमी सगले देव एक आनी ते आमचेच अशें मानलें तरी एक घराब्याचो एक असो कुलदेव आसता. आमी खास करून ताचें दर्शन घेवंक वतात. तशीच सगल्या भासांतली आपली भास म्हणल्यार आवयभास.

आवयभास केन्नाच कोणेंय शिकोवची पडना. आमकां स्वताच्या हातान जेन्ना खावंक जेवंक येना तेन्ना लेगीत आवयभास उलोवपाक येता. आमी सगल्यांत पयलीं आपल्या आवयक पाचारतात. तें आमच्या आवयभाशेंतल्यान आसता. आवयभाशेक लागूनच आमी लोकांकडेन उलोवंक शकतात.

म्हजी आवयभास कोंकणी आनी म्हाका तिचो खूब अभिमान आसा. आपले आवयभाशेचो अभिमान आसप खूब गरजेचें. आवयभाशेचो अभिमान नासप म्हणल्यार आवयचो अपमान केल्ले भशेन. प्रत्येक मनशान आपले आवयभाशेची गिरेस्तकाय जाणा आसपाक जाय. तिचो इतिहास, तिची वाटचाल जाणा जावपाक जाय. तिचें गिरेस्त सहित्य आनी साहित्यकार हांचे विशीं थोडें तरी जाणा जावपाक जाय. तिचें गिरेस्त साहित्य आनी साहित्यकार

हांचे विशीं थोडें तरी जाणा जावपाक जाय.

जेन्ना गोंयांत पुर्तुगेज आयले तेन्ना ते पाद्री कोंकणी शिकले. तांणी आपल्या सोयीखातीर कोंकणी व्याकरणां, शब्दकोश अशें जायतें साहित्य रचलें. पूण उपरांत तांणी कोंकणीचेर बंदी हाडली. आनी कोंकणी मनीस आपलो मायभाशे कडल्यान पयसावलो. तेन्ना कोंकणी मनशाक आपल्या मायभाशेचें म्हत्व कळ्ळें. कोंकणी मनशाची जीण कोंकणी बगर सामकी भयानक जाली. असोय काळ आयलो जेन्ना ते एकामेकां कडेन उलोवंक लेगीत शकनाशिल्ले. कित्याक तर कोंकणी उलोवपाचेर लेगीत बंदी आशिल्ली. आपले मायभाशेंतल्यान पयसावल्ल्या मनशाची गत कशी जाता हें कळपाक ही एक बरी देख घडिल्ली जावंये.

मायभाशेचो अभिमान आसप आनी तिचो बरे तरेन अभ्यास जावप हें गरजेचें. पूण तेच बराबर आमकां हेर भासो येवपाक जाय. तांचेंय गिन्यान आसूंक जाय. कारण आमकां बांयंतले बेबे जावन रावपाक नाका आनी दुसऱ्यो भासो शिकपा फाटलीं जायतीं म्हत्वाचीं कारणां आसात. कोंकणींतले व्हड साहित्यीक डॉ. कुन्ह्य रिव्हार हांणी म्हणलां तशें 'खंयचीय भास शिकपाचो एकूच उपाय म्हणल्यार तिची आपल्या मायभाशे कडेन तुळा करप. हेर भासो शिकून त्या भासांतलें साहित्य आमचे भाशेंत हाडप वा आमच्या भासांतलें साहित्य दुसरे भाशेंत अणकारपाक लेगीत आमी दुसरो भासो शिकूंक जाय. जेन्ना आमी हेर भासो शिकून आपले मायभाशेंत कांय बदल घडोवपचो यत्न करतात वा आपली आवयभास हेर भाशेंतल्यान लोकांकडेन पावयतात तेन्नाच आमचे भाशेची गिरेस्तकाय वाडटा. आमी सगल्यांनी हेर भासो शिकच्यो पूण आपल्या मायभाशेचो अभिमान दवरूनच.

आयचे पिळगेक नेमकी आपले आवयभाशेची गिरेस्तकाय वळखूंक येना. आतांच्या चडशा तरणाट्यांक आवयभास शिकप आनी उलोवप म्हणल्यार लज दिसता. तातूंतल्यान कितेंय वेव्हार करपूय म्हणल्यार लज दिसता. आपले आवयभाशेचो उपेग केलो जाल्यार ताका लज दिसता. हें फकत कोंकणीचेच बाबतींत जायना आनी हेर जायत्या भासांनीय जायत आयलां. आयचो तरनाटो अडेचो नेट धरून पाश्चात्त्य संस्कृती आपणावंक सोदता. तर पाश्चात्त्य संस्कृती आपणावची न्हय आनी गांवढळ रावचें अशें म्हणपाचें ना म्हाका. पूण आमकांच जर आमचें भाशेचो अभिमान ना जाल्यार दुसऱ्यांनी तिका मान दिवचो अशी

अपेक्षा आमी कशी करूंक शकतात? डॉ. कुन्हा रिव्हारान गोंयकारांक सांगिल्लें 'तुमची भास तुमी बरे तरेन केळयली, शिकले जाल्यार संवसारांतल्या हेर भासांचीं दारां तुमकां सहज उक्तीं जातलीं'.

आमचे मायभाशेन आमकां जगपाक शिकयलें. जग वळखुपाक शिकयलें. जिणे आमचे खातीर इतलें सगलें केलें तिका आमी मनांतल्यान मान लेगीत दिवंक शकनात? आवयभास उलोवपाक लज दिसप म्हणल्यार आमकां जल्म दिल्ले आवयक आवय म्हणपाक लज दिशिल्ले भशेन. खरेंच आमी आपले आवयचो येदो व्हडलो अपमान करून सारकें करतात? हो म्हजो प्रस्न आयच्या आधुनीकतायेक आपणावपी पिळगेक आसा. धकाधुकीच्या आनी सतत व्यस्त जावन पडिल्ल्या दर एका मनशान चड करून विद्यार्थ्यांनी हाचेर विचार करप खूबच म्हत्वाचें.





# मोबायल... थोर तुजे उपकार!!!

जशें जशें आयचें यूग नव्या नव्या तंत्रज्ञाना सयत मुखार सरत वता तशें तशें मोबायलाचेंय यूग आयलां. मोबायल म्हणल्यार कांयच न्हय तर एक धाकटो छोटूराम. फोन कसो जाका वायरी बी कांयच आसनात. ताका बोल्सांत तूं ओग्गी बस म्हणून सांगून ताका घेवन खंयूय वचूं येता. ह्या युगांत संगणकूय आयले. लोकांनी ताचोय खूब फायदो घेतलो आनी आयजूय घेतात. पूण जितले मनशाचें मन मोबायला कडेन केंद्रीत जालां तितलें आनीक खंयच जालें ना.

आयची युवा पिळगी तर सामकीच मोबायलाचेर पिशी म्हणल्यार कांयच अतिताय जावची ना अशें म्हाका दिसता. युवा पिळगेन मोबायलाचेर पिशें जावपाचें कारण आसाच. कित्याक, मोबायलाक ह्या युगांत जल्माक हाडटना खूब विचार करून हाडला. ताचो चडांत चड उपेग लोकांक जावचो. खंयूय गेल्ले कडेन कोणूय जर सांडत जाल्यार मोबायला वरवीं रोखडेंच आपल्या साथीदाराक कळीत करप सोंपें जाता.

मोबायलाचेर आतां इतल्यो सोयी आयल्यात, संगणका परस मोबायलूच बरो अशें म्हणपी खूब जाण आसात. मोबायलान सगल्यांचीं मनां अशीं जिकल्यांत. एक गरीब मनीस लेगीत आपले गरिबी कडेन दुर्लक्ष करून मेळटा ते पयशे एकठांय करून पयलीं मोबायल घेता. एका वेळार घरांत जेवपाक ना जाल्यार चलता पूण आपूण पयशे जमा करून मोबायल घेतलोंच अशी मनशाची वृत्ती आमकां आतां ह्या जगांत दिसून येता.

आर्दी भुरगीं घोड्यांनी, बावल्यांनी खेळटालीं. पूण आतां तशें ना. आतां मोबायलूच एक खेळण्यांतलें खेळणें कशें जाला. पिरायेचें वर्स लेगीत जावंक

नाशिल्लो भुरगो लेगीत मोबायला वांगडा खेळत बसता. हें दृश्य तरी तुमी पळयलांच आसतलें.

हांव कोणाकूच म्हणिना, तुमी मोबायल वापरूं नाका म्हणून आनी म्हाका तशें म्हणपाचो हक्कय ना. पूण इतलें मात सांगिनासतना म्हज्यान रावंक जावचेंनाशें दिसता, तुमी मोबायल वापरात, पूण ताचो उपेग आनी दुरुपेग कितें हें मात नीट जाणून घेयात. फट न्हय!

पयरूच हांवें टिवीचेर आयकल्लें, मोबायलाचेर खूब वेळ उलयत रावल्यार कानांत ती वायट रेडियेशन्स वचून जिवाक लेगीत धोखादायक जावं येता. हा-चोय विचार आनी भान आसप गरजेचें.

ल्हान भुरग्यांचें चडांत चड लक्ष अभ्यासाकडेन केंद्रीत जायना, कित्याक तर ताची तकली ही फकत मोबायला वयल्यो गेमी खेळपांतूच आसता. आवयबापायन जर सांगत, अभ्यासाक बसात म्हूण, तर भुरगीं ताका परतीं म्हणटलीं - खंय तीं गणितांतली प्लस आनी मायनस आनी खंय त्यो बऱ्यो आनी मजेशीर गेम्स. हीं आपल्या भुरग्यांचीं उतरां आयकून आवयबापायक धक्को बसूं येता पूण हाचें कारणूय तेच आसतात.

ह्या संवसारांत हे पिळगेक सदांच तत्काळ बदल आवडटा. पूण ती केन्नाच एकूच तंत्रज्ञान घेवन रावना आनी तिका ते आवडयना. म्हूण जें कितें नवें नवें तंत्रज्ञान येता तें तीं रोखडींच आपणायतात.

आतां तुमीच पळयात, मोबायलाच्या ह्या युगांत येवचें पयलीं कोणेंय विचार तरी केल्लो आसतलो, असलें आनी कितें येवंक शकता म्हणून? पूण आयच्या ह्या जगांत अशक्य म्हणटा तें कांय ना. सगलेंच शक्य आसा हें म्हाका मोबायल जगांत येतकच चड बरें जाणवलें.





# नाटकुलीं विभाग

* पयलें इनाम *

**जॅकलिन नोरोन्हा**

मंगळूर, कर्नाटक

* दुसरें इनाम *

**स्वाती बोरकार**

पी.ई.एस. महाविद्यालय

फर्मागुडी, फोंडें - गोंय

* तिसरें इनाम *

**सुनील मधुकर नायक**

शिरवाड, कारवार

* परिक्षक मंडळ *

साई पाणंदीकार

नारायण खराडे

कविंद्र फळदेसाय



# एकवटाचें जिवन

## देखाव 1

(हळ्ळेचें वातावरण. सागवेळे थावन आब पाटी येता. सकाळचो वेळ.)

आब : लुविजा, ए लुविजा, इलें उदाक हाडण ये पळया.

लुविजा : कितें वेगीं पाटी परतल्यात? उदाक जायतगी? उतरे काडण दवरलेले आसा हाडीचे?

आब : कतलेय जायत सायबिणी, ताळो सुकला.

लुविजा : (उतरे घेवन येता एका होडल्या कपांत) आयकलें तुमी?

आब : कितें तें लुविजा? लांबाय रुंदाय कित्याक कर्ताय. वेगीं सांग पळया.

लुविजा : आम्मी आयल्यांत खंय ने?

आब : कोण? खई! कंले ते सोडोवन सांग.

लुविजा : आमच्या वितोरीची बायल आनी चेडूं आयल्यांत खंय. कुळारा आसात खंय. हिशीन म्हणें पावलिनात.

आब : तूं तिक्के वोगे राव पळया. तांकां हांगा पोरा जाताये. ती पोरां आशा दवरिनाका. पेज जाल्ल्यार वाड पळेया.

## देखाव - 2

(आब पेज जेवन आसा तेदाळा नात भितर येता.)

नात : हाय ग्रॅण्डपा!

आब : कलेगो तें हाय आनी होय्य. तुज्या बापायक कितले पावटीं सांगलें, पुता, भुरग्यांक बेसांव मागोंक शिकय म्हूण. बेसांव मागची इतली सोबीत रीत नव्हेच जावन येता मूं. पुता हांगा ये हात जोडण बेसांव माग पळया.

(नात हात जोडण मुखार येता.)

आब : बापाची पुताची आनी संत सांताची नांदी वडलें जा. भितर वच पुता. वडली मायकडे, मौशीकडे, आवयकडे बेसांव मागोन ये.

(नात भितर वचून बेसांव मागोन भायर धावोन येताना आबाक आपटता. मोबायलांत खेळोवन 'सॅण्ड' म्हणटा.)

आब : कसले पुता?

नात : सॉरी ग्रॅण्डपा! हांवें डॅडीक 'मॅसेज' धाडली.

आब : तशें म्हळ्यार आमच्या काळार हे पोरा देखोंक ना. या कालीयुगांत पोरा नवेसांव.

नात : ग्रॅण्डपा मागीर तुमी काडले 'बोरींग लाय्फ'. तर माका तुमचें इल्लें 'ऑल्ड लाय्फ' विशयांत सांग नी.

आब : पळे पुता, म्हाका 16 भुरगीं. घर भोरन भुरगीं. गोट्यांत भोरन गोरवां, तुपे भरन भात. इतलें आसतना आमचें 'लाय्फ बोरींग' खंय पुता? आतां तुका हांव आमचें 'लाय्फ' सांगतां.

## देखाव - 3

(आब आराम खुर्चेर बसोन आसा. आनी नात मोबायल आनी लॅपटॉप काडण घेवन बसोन आसात.)

आब : अरे पुता, तें पोरा देगेन दवर आनी आयक लुविजा माका आनी बायेक दोन कॉपां कॉफी हाड पळया.

दुल्सीन : (आबाची सून) मांदानो मांय गोट्यांत आसा (काफी हडन).

आब : पुता आमचें जिवन फात्यार साडेपांचाक सुरू जातालें. आमोरेचे गांटीक उटोन सकाळींची बेटल्ली. आनी आमोरी म्हणोन दीस सुरू करतलें. इल्ली पेज जेवन गादयाक गेल्यार पाटी येवचे घरा सांजेरचे गादयाक वेच्या बायल मनशांनी रैत, तानी पोदा, म्हणोन भात कांडतात. बायल मनशा 'ओ बेले ले ऐलेसा ऐलेसा' तें पोद

म्हणतात.

आब : आनी शिकप माज्या निमाण्या भुरग्यांक मात मेळ्ळें. मिश्युन आमच्या गांवांक येवन इश्कॉल सुरू केल्ल्यान मात नैगी पूर्ण ते कश्ट पुता सांगचे न्हय.

नात : ग्रॅण्डपा ही काणी स्टॉप करात. शिकाप बोरींग. टेल मी अबावट रोस काजार.

आब : आदले रोस काजार कहले सांगचे. काली सोभाय खाली पोजी हाडची. सोबाय पैले जे पोज्या गारात. पयले गुरकार ताच्या सांगाता दोग या तीग लापयांव काणग्योन ताच्या उपरांत तांदूगडाय, कोंबी, दुकर शिरत्यो, हे सक्कड हाडून बेंडा संगी नासक्तले.

नात : वा! सो नायस् ग्रॅण्डपा. मका मजा रोसाक एकरीजे आबा.

आब : हांव वांचोन उरलों जाल्यार पुता पोरा कर्यं. इतले वलवन ताळो सुकून गेलो. इल्ले कापी हाड गो.

सून : माय गोट्यांत आसा. धरया काफी मावानो... (काफी दिवन वेता)

आब : (नाती कडे) मागीर पुता तुजें शिकप कशें चलता.

नात : ओ, ग्रॅण्डपा... नॉट सो वेल... आबा आबा, मिंगेल बाप्पुगेलो ऐलो आबा.

आब : कोण पुता. लोरसुगी... दुजे... चार्ली... लाग्गीयो रे पुता.

लोरसू : हांव नी आबा लोरसू. वळख मेळ्ळी नाय?

आब : पिराय जाले नी. खंय दिसता? कितें काळोकात हिशीन पावलोय.

लोरसू : फाल्यां हांव बोंबय वेता. मागीर थैंदाव्न दोन दिसांनी भैरीन वेता.

आब : खैं.. पुता... पार्शागी.

लोरसू : बेसांव दी आबा. दोन वर्सांनी पाटी येता.

आब : तेदळा पर्यंत पुता... जाव असो.

## देखाव - 4

(मिंगेलीचें घर. लोरसू भायर सरला. बेसांव मागता. शेजारची

वरूक वस्तू हाडण येतात तो भायर सर्न वेताना सगळे वाडाची लोक ताका विमानतळार सोडूंक वतात. घरा पयली मागणी कान्न सक्कड बैसर्ताक. तांची बायल आनी कुटमाची पोरां रडून आस्तात.)

(आबाच्या घरा.)

आब : आतां मिंगेल गेलो.

नात : आबा, मुकाय आता पाटी वोसूंक आसा ने.

(नातूय आबाक सोडण वेता.)

आब : वोस पुता, बरे कर्न, शीक. मात्र नातीचे शिकप मगदोन आईले. गांवकर काय सोदूंक आब चिंतून आसलो. तेदना तसोपोक गांवाक बैसक्ता नतीक आबा, आनी ओडली माय सर्शीत सोडण येता. आब सदानीत नातीक काणयो सांगून या तोटाक वोर्न तशे वेळ परार कर्तालो.

## देखाव - 5

(दोन वर्सां उपरांत)

पोस्टमन : पोस्ट... पोस्ट... पोस्ट!!

नात : पोस्टमन, पोस्टमन, माका लॅटर आसा?

पोस्टमन : तुमकां ना. तुमकां ना. तांकां मिंगेली गेल्याक.

(कागद मिंगेली गेल्यांत दिता.)

(त्या वेळा आब हांसोन आसत.)

नात : आबा तूं कितें हासताय?

आब : हांव होडली मायक पत्र धाडतालों. आमच्या कालार फोन आनी ईमेल नातलेली.

नात : आबा आमी मिंगेली घराक या आनी लॅटर वाचुया.

(तीं भैसरून मिंगेलीच्या घरा सर्तात.)

मिंगेलीची बायल : कोण नात घरा. भायर गेल्यांत.

आब : कितें म्हणताय तूं?

नात : तें लॅटर तुका आयला.

बायल : लोरसू दोन दिसांनी येता खै? मावानो येया सगळी येया, लोरसूचें

कागाद चेवून पावलें. हरियपणाचे कार सांग्या. तुमी येतात आबा.

आब : कितें! दोन वर्सां जालीं गे मुजे नात मुज्या सर्शीत आसले. वर्सा कितली वेग्गीत धांवलीं नी गे लोरसू येता गे. तार कार संगीजेत ने. आमी सगळी वसुक जाय. येता. हांवें विमान पळोवंकच ना. आयज पोळेच्यावरी जाले वेग्गी.

(त्या दिसा लोरसू एवक दोन दीस पशार जाले. वाड्याची सगळी तयसर एवन पावल्यांत. सक्कड आसात.)

नात : आमी आईल्या.

आब : सालकराक बोस. सक्कड ॲरपोर्ट पावली.

(ॲरपोर्टांत सर्व धर्माचो लोक आपल्या मोगाच्याक मुकार आयिल्ले आनी धावक आयले. एक मेका सुखदुख्ख उलवन आसलें. इतल्यार मिंगेलीचे कुटाम ॲरपोर्टाक येवन पावता. आब विमान पोळोवच्या आशेगात आपल्या नातीगडे उरोवन आस्ताना.)

आब : आयलो यो. पावलें कितले वेळ आसा? (तितल्यार एकच्याणी एक व्हडले आवाज जाता. आनी लोक सगळो कितें जालें गे म्हूण हेणें तेणें धावता. इल्याक वेळान व्हडली आवाज सवे. विमान पुटोन धर्णीक शेवाता.)

सगळीं धांवून आसात.

आब : आयज कितें जालें पुता. देवा माका दवरून तेका देवल्लो. आमकां सोडण गेल की पुता मागेल्या. हाय नशिबा आनी कितें सक्कड हांवें पळवंक आसागी.

(हांगासर एक स्त्री येता एकट्याचो संदेश हाडण.)

हो कसलो आकांत. कोणेंच चिंतूंक नासलें. चार दिसांच्या ह्या संवसारांत असमाधान चडावन येवच्या आमच्या भारत देशांत घडलें हें विमान अवघड सर्वांच्या काळजा मना उज्जडोवी. अवघडांत अंतरलेले समेस्तांचे कुटमा दरांक कोच्च भुर्जी दी तशेच अंतरेल्या आत्म्याक ससण सूख दिवी. आमी सर्वा एक्कोट म्हूण आयज हो दिवो पटवन आमचो एकवट प्रशार्या.

**(पड्डो पडटा.)**



# इलॅक्शनाची खुर्ची

**पात्रां :**

1. कुशावती
2. गंगावती
3. आका
4. आबोलें
5. रमा
6. मावशी
7. लीला
8. जयश्री
9. सरला
10. लमाणी (शेंवतम)

(गांवच्यो बायलो मांडार जमल्यात. रमा एका पानार नांवां बरयता.)

गंगावती : ये आबोल्या, तूं कोमिसांव मुगो. नांवां बरोवन घे पळोवया.

आबोलें : गंगावती हांव खंय शिकलां. हांव म्हगेल्या बायकच नांवां बरोवंक लायतां. रमा नांवां बरोवन घे गो तांचीं.

सरला : हांवें पीएचडी केल्या आनी हांव फुगडी घालूं. दोतोरकेचें काम चालू आसा म्हजें.

रमा : भाभी पीएचडी म्हणल्याार कितें गे?

सरला : रमा म्हाका एक सांग गो, तूं कितलें शिकलां?

रमा : हांवें म्हगे सातवी तीन वेळा केल्या. पूण इंग्लीश थोडी थोडी कळटा.

सरला : पीएचडीचो फूल फॉर्म म्हणल्यार 'पास हायस्कूल विथ डिफिकल्टीस'.

रमा : बरी शिकल्या तर तूं न्ही. आनी तूं दोतोरकी म्हणल्यार ऑपरेशन बी करपाची आसा काय कितें गे?

सरला : अॅ... तशें न्ही. या बोडकाच्या तकले वेल्यान गेलें दिसता. सामकोच गांवठी समाज हो. आतां हांकां कितेंय फट सांगल्यार जाता तर. हांव म्हगो राजकारण्यांच्या खुर्चेचेर बारीक नदर दवरून आसतां.

आबोलें : राजकारण्यांची खुर्ची मोडत म्हूण तिजेंय ऑपरेशन करपाचें आसता काय कितें गो?

सरला : हेंवूय तुका खबर ना? सामकीच मगे तूं.

लिला : आमी बाये केन्नाच आयकुना गो असलें. आमी मनशांचें ऑपरेसांव करतात तें जाणा.

सरला : तर आयक. एकट्याक मंत्र्याची खुर्ची मेळ्ळी म्हणटकच ताची खुर्ची कशी मोडपाची तें काम म्हजें आनी म्हाका खुर्ची मेळटकच म्हजी खुर्ची कशी घट दवरपाची तें तुमचें काम. ताका लागून हांव फुगडेचें निमित्य करून आयिल्लें. हें पळयात, म्हजें नांव कॅन्सल करात.

आका : कॅन्सर!

रमा : आगे कॅन्सर न्ही, कॅन्सल म्हणजे नांव फुगडेक घालूं नाकात म्हणटां.

लिला : अशें कशें जातलें? आमच्या गांवच्यो सगल्यो नव्यो व्हंकलो हांगा वर्सान वर्स फुगडी घालतात. ही आमची गांवची रीत आसा. ती पाळूंकच जाय.

सरला : ती रीत आनी पद्दत तुमचे तुमीच घेवन बसात.

मावशी : सरला, तुका पयलींच सांगतां आं, आमी जाणटीं, आमचें तुमी आयकप. तुजे परस कितलेशेच पावसाळे चड पळयल्यात आमी.

सरला : म्हणून कितें जालें? तुमच्या वेळार कितें जमनींतल्यान पावस पडटालो आनी आमच्या वेळार मळबांतल्यान पडटा?

आका : तशें न्ही गो सरला. आख्ख्या गांवचो गणपती हो. हांगा गांवच्या रिती प्रमाण जर फुडगी घालिना जाल्यार गांवांत कोप जाता. अशीं

सगलीं मानतात आनी तें खरेंय बी.

सरला : तें तुमचें तुमी पळोवन घेयात. म्हाका मिटींग आसा. हांव वतां.

गंगावती : कितें गे ही बायल? तिचेर सात मालिसांव पडों गे.

कुशावती : चला गे, आमी आमच्यो फुगड्यो घालुया.

गंगावती : फकत थोडीच तालीम घेवया. जयशीरे कर तुगेलें पद सुरू.

जयश्री : 'साद्या गंवाची रोटी गं, साद्या गंवाची रोटी'.

आका : फुगडी अशी आडवी घालात. ये कुशावती पांय चुकता गे तुजो.

मावशी : ही मेली गे मेल्ली फुगडी घालतली. पाड पडलेल्यांक कसलीच देख ना. आमच्या वेळार आमी कितें फुगडी घालतालीं न्हय गो आका!

आका : ये, आतां एक उबें फुगडेचें पद म्हणात.

गंगावती : 'तांबडो तुवालो, धवो तुवालो, तुवालो कोणें व्हेलो गो रमा, तुवालो कोणें व्हेलो. हेवटेन पळयता तेवटेन पळयता रमा चेडयांचेर लायनी मारता. गो रमा चेड्यांचेर लायनी मारता'.

(सगलीं हांसतात. इतल्यान लमाणी भितर सरता.)

लमाणी : लोखंड व्हरता, पत्रे व्हरता, प्लास्टिक ऽऽऽ कितें आसा बाय.

रमा : ये, एलकुट्टर, मल्लकुट्टर चल गे इदर कांय ना. हम फुगडी डालते हैं।

लमाणी : अय अल्लकुट्टर कोण? माजी नांव शेंवतम्.

आका : बाये घो हाडून हिचो. बरी कोंकणी कळटा मगे हिका.

गंगावती : घांटयां म्हणपा ना तेंका. आमकां गोंयकारांक बेस बऱ्यो तोपयो घालतात तीं.

मावशी : ये मामी, चलो लाग हांगची. हांगा घुटमळटा कितें?

शेवतम् : माजी एकूच काम आशिल्ली.

सगलीं : कसलें?

लमाणी : तें सरला दीदीचें घर जाय आशिल्ली.

जयश्री : आं, सरलाचें घर. तिगेर चोरूंक येयल्या काय कितें गे?

लमाणी : ना गे. शिव शिव. तुमकां म्हूण सांगती. ती खंय मतदानाक उबी रावलीय.

रमा : तूं कित्याक प्रचाराक आयल्या तिच्या. लमाण्याचे कपडे घालून.

शेवतम् : ना गे. म्हाका तिजें घर पळोवचें आसा. तिणें म्हाका आयपली.

मावशी : ये कुशावती, दाखय तिका तेगेलें घर व्हरून. (तीं दोगांय वतात.) पळयलें मगे ह्या घांटयांकच लागीं करपाचें तिणें आनी आमकां गांवच्या लोकांक दुखोवपाचें.

आका : श्री गणेशा ही असली नाका आशिल्ली कर्तुपां. पळोवन घे रे बाबा.

आबोलें : ये जयशीरे, आका, मावशे सगलीं हांगा येयात, कितें सांगतां.

लिला : कितें गो आबोल्या, सांग बेगीन.

आबोलें : म्हाका दिसता आमी रमाक इलेसांवाक उबें केल्यार कशें?

गंगावती : कितें तें आबोल्या, तोंडां उडोवपाचें. ती तिकेट काय कितें ते मेळची पडटा खंय.

आबोलें : आं, आतां कितें करुया?

लिला : आं, एक मात करूंक जाता. आगो त्या राघेलो बापोलभावालो चेडो झितू, त्या शाणू मंत्र्यागेर आसता अशें आयकलां. तेका विचारल्यार कशें?

आबोलें : तशेंच करुया न्हय गे वयनी?

गंगावती : चलात, या तेंगेर.

## देखाव दुसरो

(मावशी, आका आनी कुशवती मांडार बसल्यांत.)

कुशावती : देवा पाव. रमाक मतांक उबे रावपाक मेळ्ळ्यार पुरो.

मावशी : केन्ना गो तें इलेसांव.

कुशावती : येता ते धा तारखेक. सारखे पंदरा दीस उरल्यात.

आका : आनी चवथीक एक म्हयनो उरला मगो?

कुशावती : हय आका.

मावशी : आमी मात हेच गडबडींत उरतलींशीं दिसता. फुगडेची येसाय घेतल्यार बरी.

कुशावती : आमी दोगांय कितें फुगडी घालतलीं. (रमा नाचत, खुशालभरीत जावन येता जाल्यार आबोलें चिंतेन येता.)

मावशी : आगो, तिकेट काय कितें ती मेळ्ळी मुगो?

रमा : कितें सांगूं तुमकां? एका धपक्यान सगलें काम जालें.

आबोलें : काम कसलें? फकत पयशे गिळपी लोक ते.

आका : आबोल्या, अशें कुवाड्यांनी कितें उलयता. सारकें सांग मगो.

रमा : हांवें, आईली चारूय कांकणां विकून मतदानाक उबें रावलां. कांकणां दिलीं म्हणूनच हांव मतदानाक उबें रावपाक पावलें. नाजाल्यार म्हाजें शिक्षण विचारतालीं.

मावशी : रमा, पाड पडूं आशिल्लें तें इलेसांव. कित्याक इकलीं भांगरा कांकणां.

रमा : आगे, कितेंय मेळयतली जाल्यार कितेंय वगडावचेंच पडटा न्हूं. जेन्ना सगलो गांव म्हाका फाटबळ दिता तेन्ना ह्या कांकणांचो वालोर ना. एकदां हांव निवडून येयलें म्हणटकच जाय तितलीं कांकणां करूं येतात.

आका : रमा, सरलाक खबर आसा तूं इलेसांवाक रावलां तें.

रमा : हायें मगे मुद्दामूच म्हाजें नांव रमाती म्हूण बरयलां. तिका म्हजे खरें नांव रमाती म्हूण खबर ना. ती जाणा हांव रमाच म्हूण. (गंगावती येता.)

गंगावती : जाणात मुगो, सरला सगल्या घरांनी मतां मागूंक भोंवता.

मावशी : तें मारूं झक, तुमी तुमच्यो फुगड्यो सुरू करात.

आका : आयज रगडो आनी झेमाडो घालून पळयात पळोवया.

गंगावती : (आपले परीन रगडो घालता, पूण मर्दीच सुट्टा.)

मावशी : हेतें कितें करता? सरको घाल.

कुशावती : (सारको घालून दाखयता.)

आका : आतां झेमाडो घाला पळोवया.

आबोलें : झेम झेम झेमाडो.

(सरला प्रवेश करता. सगल्यांच्या पांयांक हात लावन पांयां पडटा.)

सरला : पांयां पडटा गे मावशे. पांया पडटा गो आका. पांयां पडटा गे वयनी. सगल्यांक हांव इलेक्शनाक रावलां आं. म्हाका मतां मारात. ये गंगावती वयनी तुजो मिस्टर कसो आसा गे?

गंगावती : मिक्सर चार दीस जालो मोडला. हांव ह्या दिसांनी रगड्याचेरूच मिरसांग वाडटा. तुका गो बाये कशें कळ्ळें. (कोणाक कांयच कळूंक नाशिल्ल्यान सगलीं ओग्गी रावतात. पूण रमा एकलेंच हांसता.)

सरला : (तकलेर हात मारता.) आगे भाऊ गे.

गंगावती : घाम येवन जोर आतां देंवला.

सरला : बरें गे. म्हाका मतां मारात. तुमकां तिस्कार गाडी येतली व्हरपाक आं.

शेवतम् : एक दो, सरला को मत दो.
टिकल टिकल लितल स्तार
सरला... इज... सुपर स्टार. (दोगांय वतात.)

मावशी : फुगडी घालपाक यो म्हणल्यार व्हडलें शाणपणां सांगता आनी आतां इलेसांवांक रावलां म्हूण सगल्या घराघरांनी भोंवून मतांची भीक मागता.

रमा : कितें तर पांयां पडटा?

आका : ते घांटणीकय बरी बाये सांबाळ्ळ्या.
(सरला घांवत येता.)

सरला : म्हगे संवसर गेलो गेऽऽऽ आमगेर चोरी जाली गे ऽऽऽ.

मावशी : आमी कितें करूं?

आका : तेन्ना आमकां व्हडली शापोतां सांगतालें आतां कितें जालें?

कुशावती : आतां राजकारणी तुका पावले नात?

सरला : अशें म्हणूं नाकात गे? म्हाजेर आयज व्हडलें संकश्ट आयलां. म्हज्या आदाराक येयात गे.

आबोलें : खंयच्या तोंडान हें सांगता तूं. तेन्ना आमचे कडेन वाद घालता तेन्ना कळनाशिल्लें.

रमा : व्हडली शिक्षणाचें गर्व दाखयताली. आमी गांवचीं आसलीं तरीय मनीसपण आमचे कडेन आसा.

सरला : खरेंच, हांव चुकलें. म्हज्या अर्दवट शिक्षणानूच म्हजो घात केलो. इलेक्शनाचे आशेन हांव तुमकां मान दिवंक विसरलें. भायल्या लोकांची वस्ती हांगा चड वाडिल्ल्यान म्हाका तांच्याच

मतांची आस जाली. म्हणून हावें शेवतमाक म्हज्या सांगाताक घेतलें. ताजेर खूब विस्वास दवरलो. पूण निमाणें ताणेंच म्हजो विस्वासघात केलो.

रमा : पळयलें, चड शिकलेलींच मनशां चड भ्रश्ट जायत गेल्यांत. मनीसपण गर्वाच्या, अहंकाराच्या नांवान शेणत गेलां. हें खंय तरी बंद जावंकच जाय.

सरला : पूण हाका जबाबदार कोण?

रमा : आमीच, हीं मनशां. एकविसाव्या शेंकड्यांतलीं जीं असले प्रस्न घेवन आयल्यांत. आयज आमचे कडेन सगल्यो तरेच्यो सुखसोयी आसात. पूण मनशा मनशां खातीर दिवंक वेळ ना.

सरला : खरेंच, आयज म्हजे दोळे खऱ्या अर्थान उगडले.

- सोंपता -





# बायल करता होळो घोव जाता भोळो

(बद्री हातांत साडयेचें बॅग घेवन येता) सध्या हांव आतां बचाव जालो. म्हगेली चली खेळूंक गेल्या अशें दिसता. आतां हांगा तर तें उरल्यार कांय ना हे प्लास्टिक बॅग विशय लेगीत जावन आवयलागी सांगता आशिल्लें. आतां तें येवचे पयलीं हांव वतां भितर. (वचूं वता तेन्नाच.)

(वेदा, ल्हान चली येता.)

वेदा : बाप्पा, ए बाप्पा.

बद्री : अरे बाप रे. (प्लास्टिक बॅग लिपयता.)

वेदा : बाप्पा, ह्या प्लास्टिक बॅगांत कितें हाडलां. आं, कळ्ळें, म्हाका जात्रेक घालूंक नवीन ड्रेस हाडला न्ही. (खुणेन) बाप्पान म्हाका ड्रेस हाडला... बाप्पान म्हाका ड्रेस हाडला.

बद्री : आगो, म्हगेल्या मोगा भांगरा... गेल्या म्हयन्याकच दोन ड्रेस हाडल्यात मगो तुका. आतां आनीक नवीन ड्रेस म्हणटा.

वेदा : आतां तें कितें हाडलां पळोवया.

बद्री : हें पळय, हें मगो सारी सिल्क.

वेदा : आयज आई खूश जातली आनी आमकां कितें जाय पळय बेजारनासतना करून घालतली.

बद्री : ही साडी आईक न्ही गो शाण्या. तुगेले धाकटे आईक.

वेदा : बाप्पा, ते आईक मात तुवें साडी हाडल्या मरे आनी म्हगेले

आईक?

बद्री : आगो, म्हगेले धुवे, ही नवीन साडी न्ही.

वेदा : बाप्पा तें कितें आसूं. म्हाका डेरी मिल्क हाडल्या? हे साडयेचो विशय हांव आईक सांगना रे.

बद्री : कितें, डेरी मिल्क? आतां भुरगे 50 पयशांची चॉकलेट दिल्यार खूश जातात आनी हाका पळयल्यार 10 रुपयांची डेरी मिल्क हाडून दिवंक पयशाचें झाड नाटलां हय गो?

वेदा : बापा, तें म्हाका कांय खबर ना. आतां तूं म्हाका डेरी मिल्क दिता कांय हे साड्ये विशीं आईक...

बद्री : आईक सांगता... आईक सांगता... (मारता आनी भितर वचून परत येता) रडटा? रड, रड, व्हडल्यान रड. (वता)

वेदा : (रडटा) आई, आई, खंय गेली गे तूं. आई आई.

गंगा : (येता) म्हगेल्या देवाक कितें जालें. म्हगेले धुवेक कितें जालें. म्हगेलें भांगरा... म्हगेल्या मोगा रडूं नाका.

वेदा : आई... आई... (मोटयान रडटा).

गंगा : आतां पळय देवा, तूं आनीक रडल्यार तुगेली आई बी रडटली. म्हगेलें बाय शाणे. कितें जालें गो म्हगेले धुवेक. सांग आईक.

वेदा : आई, आई मगे... म्हाका मगे... बाप्पान मारलें.

गंगा : हालींसराक तुगेल्या बाबाले हात खूब हुळहुळूंक लागल्यात. लोकाचे बापूय पळय भुरग्यां पासत कितें करतात, कितें ना. जिवाक जीव दिता. आनी हेमी... हो म्हगेलो घोव न्हय. सुकीले फोव. खंयच्या नमुन्यान मारला पळय. पुता दुखता. विक्स आनी तेल लायता बाये. बाप्पान तुका कित्याक मारलो?

वेदा : आई, आई मगे.. मगे बाप्पान म्हाका हाडलिना डेरी मिल्क. आनी ते आईक हाडल्या सारी सिल्क. हो विशय आईक सांगतां म्हणलें म्हूण म्हाका मारलें.

गंगा : बाये, तुवें सांगिल्ली गोस्ट खरी हय गो?

वेदा : आई, तुजे लागीं हांव केन्ना फट उलयलां. जाय जाल्यार बाप्पा लागीं विचार गे.

गंगा : बाय, तुका कितलीं वर्सां?

वेदा : आई, म्हाका आठ वर्सां.

गंगा : बाये अदीक एक कर.

वेदा : 8+1 = 9 वर्सां.

गंगा : पळयलें. पळयलें हांव मगो, शाण्या तुगेल्या बाप्पालागीं 9 वर्सां संवसार केलो. जाल्यार अजून मेरेन म्हगेले आवयगेरच्यान हाडिल्लीच साडी न्हेसत आसा. खंयची परब येवं आनी खंयची जात्रा जावूं, एक साडी खंयची साडये वयलो मॅचींगाचो ब्लावज पीस हाडपाक वयर सकयल करता. आतां पळयल्यार तिका नवीन साडी हाडल्या. बाये आपय गो तुगेल्या बापायक. आत्तांच दुदाचें दूद आनी उदकाचें उदक करून दाखयतां. आतां जर वगी रावलें तर हांणी म्हाका आनी तुका दोगांय जाणांक घरांतल्यान भायर घातलें.

वेदा : आई, बाप्पा घरा भितर ना. भायर गेला.

गंगा : खंय वतलो. येतलो घरा. बाये गो, हांव तुका तेल आनी विक्स लायतां. (वता.)

## प्रवेश 2

(बाप्पा सवकास घरा भितर वता.)

वेदा : आई, बाप्पा आयला.

गंगा : आपय गो बाप्पाक. म्हगेले धुवेक मारला न्ही.

वेदा : बाप्पा यो रे भायर. बाप्पा बाप्पा.

गंगा : हो... आतां येता काय ना तुमी?

बद्री : अ... बा... बा.. कितें गो तुमगेलो करकर.. शांत रितीन टिवी पळोवच्याक लेगीत सोडिनात मगो. घोव म्हणल्यार कितें म्हूण समजून घेयलां. एक सकाळीं उजवाडटना कामाक गेल्लों. हांव सांजेर घरा येतां. तुमचे भशेन घरांत बसून रावना. घोव पुरो जावन घरा येता म्हूण एक सिंगल च्या हाडून दिवची ना. वयल्यान एक मिनीट लेगीत शांत रितीन बसूंक दिनात. आयज कालचे दादले पळय असल्या बायलां मुखार जिवन काडचें खूब मुश्कील आसा.

गंगा : वा! वा! वा रे वा! म्हाका उलयले तुमी. तुमगेल्या तोंडांत फोडणे पालो पडूं आं. आतां आतां तूं म्हाका पळयल्यार खूब बेजार

दिसता न्ही. कित्याक म्हणल्यार तें 'च्या' जावन लग्न जाल्या मोगाची बायल तुका आसा न्ही. वाटेर लग्न जावन आशिल्ल्यांक पाप म्हूण ह्या घरा भितर घेवन पळय. धा भुटी शेण खायलेशें जालें. तांणी हांगा पांय दवरलो तेन्नाच्यान तुमी म्हूण खूब इबाडल्यात. म्हाका आनी म्हगेले धुवेक कुसकूट अशें करून पळयतात. पळयतां हांव. हांगा येया न्ही म्हणल्यार पुरो आसलें. धावन धावन येताले. एक गजाल मात लक्षांत दवरात, हांव ह्या गांवच्या धा लोकां मुखार तुमगेल्या हातान मंगळसूत्र बांदून घेतिल्ली बायल कळ्ळें न्ही. बाये तुका कितलीं वर्सां.

वेदा : आई, आठ वर्सां.

गंगा : अदीक एक कर?

वेदा : 8+1= 9 वर्सां.

गंगा : पळया पळयात, हांवें तुमचे वांगडा णव वर्सां संवसार केलो. आतां तरी म्हाका नवीन साडी हाडून दिता काय ना इतलेंच सांगात.

बद्री : आगो गंगा, हांवें कितें पयशांचें झाड नाटलां हय गो. जाय म्हणलें तेन्ना हाडून दिवंक. म्हाका मेळटा अडेज हजार पगार, त्या पगारांत घरसंवसार चलवचो की तुमगेल्या फॅशना खातीर खर्च करूं आनी आतां सगल्या सामानाची रेट बी वाडल्या. एक नाल्ल घेवंक गेल्यार 15 रुपया म्हणटात. अशी ही म्हारगाय आसतना तुमगेली ही आनी करकर... मात विचार कर गो.

गंगा : तुमकां होच विचार आनीक एक लग्न जाता आसतना कळ्ळो नाशिल्लो. करचें सगलें करून म्हाका बुद्दीवाद सांगूंक आयल्यात. आतां तुमी एक हातांत धंय आनी एक हातांत चुनो लावंक सुरू केलो न्ही. माजर दूद पिता आसतना आपणाक कोण पळयना म्हूण समजून घेता खंय. म्हगेल मुखारच भेदभाव करूंक सुरू केलें न्ही. त्या तुंगाक मात साडी हाडूंक तुमचे कडेन पयशे उरतात? आनी म्हाका साडी हाडूंक पयशांचें झाड नाटूंक जाय न्ही. बाये तुका कितलीं वर्सां.

वेदा : 8 वर्सां.

गंगा : अदीक एक कर.

| | | |
|---|---|---|
| वेदा | : | 8+1= 9 वर्सां. |
| गंगा | : | पळयात पळयात. हांव तुमचे बराबर 9 वर्सां संवसार केलो. याद उरूं बाये बाप्पान हातांत कितें हाडला. सांग हांव आसा, भियेनाका. |
| वेदा | : | आई, आई, बाप्पा मगे प्लास्टिक खोट्यांत एक साडी घेवन आयला. हांवें पळयिली आनी ही साडी कोणाक म्हणल्यार तुगेले आईक न्ही तर ते धाकले आईक म्हणूंक लागलो. |
| गंगा | : | आतां कितें म्हणटात पतीरायांनो? (रडटा) तूं म्हाका म्हगेल परस बायलेक व्हड मानता न्ही. ह्या घरांत म्हाका किंमत ना जाल्यार हांवें कित्याक म्हूण हांगा रावचें. हांव म्हगेल्या आईच्या घरा वतां. यो गो बाये. तुमीच रावात. ताका घेवन ह्या घरांत. |
| बद्री | : | आगो, गंगा राव गो. मात विचार करून उलय गो. जिबलेक हाड ना म्हूण कशाय कशें उलयनाका. हांवें हाडिल्ली साडी नवीन न्ही. तांणी मगो साडेक फॉल लावन हाडूंक सांगिल्ली. ही साडी बायेन पळयली. विचार करिनासतना कित्या कितेंय उलोवं नाका. तुमगेली बुद्दी खंय सोडटात तुमी. उलोवचे सगलें उलोवन लास्ट तुमगेलें अस्त्र सोडटात. आमगेले कश्ट आमकां... घे हे 400 रुपया साडी हाडून घे. |
| तुंगा | : | (400 रुपया पळोवन) अय्यो... अय्यो... अय्यो. म्हाका मात एक साडी हाडून दी म्हणल्यार तुमी कितें म्हणलें, आशिल्ली साडी पयलीं खाली कर म्हूण आनी आतां पळयल्यार ताका नवीन साडी हाडूंक पयशे दितात. म्हगेल मुखारच इतलें आनी म्हगेल फाटल्यान कितलें? देवाकूच खबर आतां म्हाका बी नवीन साडी जाय. |
| गंगा | : | कित्याक गो? कित्याक गो? व्हडलो ताळो काडून जीव गेल्ले भशेन बोब मारता. म्हगल घोवाक बोड फिरोवन लग्न जावन म्हगेलें जिवनाची वाट लावन वयल्यान म्हाकाच उलयता. वाटेर लग्न जाल्ल्याक तुका इतली घमेंड उरल्यार, धा लोकां मुखार लग्न जाल्ल्याक म्हाका कितली उरूंक जाय? |
| तुंगा | : | कितें, कितेंच तूं म्हाका परत परत वाटेर पडिल्लें म्हण कित्याक सांगता. वयान व्हड म्हूण किंमत दिल्यार हागेलें चड जालें. आतां |

तरी सारकें लक्ष दिवन आयक. तुगेल्या घोवानच म्हाका व्हड व्हड आशा दाखोवन म्हाका फसोवन लग्न जालो याद उरूं.

गंगा : देवा, रे देवा. हांव म्हगेलो घोव एक पत्नी वृतस्थ श्री रामचंद्र म्हूण समजून घेतिल्लें जाल्यार ह्या कलीयुगांत हांणी श्री कृष्णालो अवतार घेतिल्लो विशय म्हाका खबर नाशिल्लें.

तुंगा : आनी म्हाका कितें फाटीं मुखार कोण ना म्हूण समजून घेता? म्हगेले आवय घरचीं व्हड व्हड आसात. श्रीमंत घराणें. मन केल्यार तुमकां लेगीत विकत घेतलीं. याद उरूं. मर्यादा दीत गेल्यार हागेलें खूबच जालें.

बद्री : आगो, झगडनाकात गो, हांवें सांगची गोस्ट मात आयकयात.

गंगा : तुमी वगी रवा हां, हें पळय तुंगा परत परत आवयगेरची खबर काडिनाका आं. कितें गो तुका एकट्याकूच आवयगेरचें घर आसा म्हूण केला. म्हगेले आईगेरची बी पयशेकार आसात. तशें म्हूण हांव सगळें वाड्यार ठय ठय करून ठंगूर वाजयत भोंवना आनी हेजे मुखार आवयगेरची खबर काडल्यार वगी रावना. आतांच घरांतल्यान भायर घालतलें.

तुंगा : ए, आयकली निगो गंगाली उलोवणी. इतलें वट्ट आयकून हांव ह्या घरांत एक मिनीट बी रावना. हांव आत्ता वतां.

बद्री : अ, बा, बा... बंद कर गो तुमगेलीं झगडीं. अरे देवा म्हाका बेगीन तुजेलागीं आपोवन घे. असल्या पतीव्रता शिरोमणी बायलां मुखार म्हाका दिवस काडूंक जायना. देवाल्या माथ्यार फूल घालचें तरी चुकतलें जाल्यार हांचें झगडें चुकिल्लें ना. ह्या दोनांय बायलांच्या झगड्यां मुखार घोव जाता उपाशी. म्हगेल्या पूर्व जल्माच्या पापाची प्रायश्चीत अशें दिसता. ताशनच देवान म्हाका ह्या जल्माक दोग जाणां भांगरा सरकीं दिल्यांत.

गंगा : तेन्ना तुमी कंपासाक कान लावन उलयतना कळना.

वेदा : आई, तो कंपास न्ही. मोबायल फोन.

गंगा : हांव पापीण. तो रेडियो म्हूण केला. हांणी रेडियोंत क्रिकेट कॉमेंट्री आयकतात. म्हाका कितें खबर आसा, ते दुसरे सटींगाची कॉमेंट्री म्हूण. करचे सगळें करून घेवन वयल्यान चूक म्हणटात. शरम दिसना. पयलीं आमी कितले शांत रितीन आशिल्लीं.

तुंगा : हांव ह्या घरांत येवन झगडीं करकर सुरू जाली म्हूण सांगता न्ही तूं. कितें हो पळयतात तुमी. पळोवच्याक हांगा कितें कहो ना प्या है पिक्चर लागला? काय जोगी पिक्चर लागला. आतां हाका तुमीच एक वाट दाखोवंक जाय ना तर म्हाका आनीक घर करून दिवंक जाय.

बद्री : अय्यो... अय्यो... कित्याक म्हूण तुमी म्हगेल्या फाटीक लागल्यांत गो. म्हाका तुमी खावन सोडात पळोवया. तुमगेली ही करकर म्हज्यान आयकूंक जायना. ताका हांवूच एक उपया करतां. गंगा... तुंगा... हांगा येयात. हांव हाचे मुखार कितें वस्तू हाडची जाल्यार एकूच सारकी एकच क्वालिटी हाडटां. गंगा तूं म्हगेली व्हडली बायल म्हगेल्या आंगाचो उजवो वाटेचो भाग तुका... तुंगा दावो वाटेचो भाग तुका. हांवें दावे हातान कितें हाडूं तें तुका आतां तरी समादान जालें न्ही.

तुंगा : आ.. आं... हा समादान कितें समादान. तुमगेलो दावो वटेचो भाग घेवन हांव कितें भाजून खावूं. घोवान सांगील तशें आयकून रावंक हांव कितें फाटल्या काळाची बायल न्ही हांव बी कॉलेज शिकलां. हो सगळो विचार अनपड बायलांक सांग. कळ्ळें न्ही. (कुशीक धुकलता.)

वेदा : आई, आई, ते आईन मगे बाबाल उजवे वटेन पोल्सा धरून धुकल्लें मगे.

गंगा : म्हगेल्या घोवान म्हाका सोडिल्लो उजवे वटेचो पोल्सा धरन धुकल्ले न्ही. तुका इतलो राग उरल्यार म्हाका कितलो उरूं काय. (दावे बाजून धरता.)

तुंगा : अय्यो... दया माया काय नासतना म्हगेल घोवालो दावो पोल्स धरून चिमटो काडटा. आतां हांव पळय (उजवे वटेचो हात धुकलता.)

गंगा : अय्यो... अय्यो... कर्मा... तूं म्हगेल्या घोवालो उजव्या वटेचो हात धरून धुकलता म्हणल्यार हांव कितें चणें खायत बसलां म्हूण केलां. आतां हांव पळय. (दाव्या बाजूचो भाग धुकलता.)

बद्री : अय्यो ह्या दोगां जाणांल्या झगड्यांनी म्हजो जीव खावंक लागलीं मगो. हांगेलो सत्यानाश जावन वचूं. आनी हाचे मुखर मगो

म्हगेल्या आंगाचे कुडके करात.

तुंगा : तुमी वगी रावा आं. तुगेले तरी कितले आसा म्हूण हांव पळयतां. कितें गो, तूं म्हगेल्या घोवालो दावो हात धरून धुकलता न्ही. तुका इतलो अहंकार. आतां हांव पळय. (भितर वचून उज्या कोलती हाडटा.)

गंगा : तूं शेर जाल्यार हांव सवाशेर. तूं रंगोली वयल्यान गेल्यार हांव रंगोली मुळांतल्यान वतलें. याद उरूं. बाये बरें! अखंड आशिल्लो वंईचो खूट मोडला हाड.

वेदा : आई, घे बरो घट आसा.

बद्री : दोगी जाणां मारून घेवूं बरें. हाय जातरे बुद्दी येतली.

(गंगा-तुंगा बद्रीक मारतात.)

बद्री : अय्यो... अय्यो... ए गंगा, ए तुंगा हांवें सांगिल्ली गोस्ट तरी आयकयात गो. बायलांनो हांव तुमगेल्या गळ्यांत मंगळसूत्र बांदिल्लो घोव मात तरी दया करात गो. मारूं नाकात गो. मारूं नाकात गो. उदक उदक.

(सकयल पडटा.)

वेदा : बाप्पा... उठ रे... बाप्पा उठरे... आई.... बाबा दोळे उगडना मगे पळय गे.

तुंगा : हांव डॉक्टराक फोन करतां.

गंगा : देवा, म्हगेल्या घोवाक कितें जालें. आई बेगीन बरें नंके गंड पनील्ला आक्कन बिद्दाने नोके गंड हांग इद्दाने आई... आई... आई.

तुंगा : आई...

गंगा : चूप! म्हगेल घोवाक खाता मेरेन तुका जिवाक जीव ना. आगो बाये तुका कितलीं वर्सां?

वेदा : 8 वर्सां.

गंगा : अदीक एक कर.

वेदा : 8+1=9 वर्सां.

गंगा : पळयलें. पळयलें. णव वर्सां घोवाक हांव म्हगेले साडयेच्या पदरा भितर सांबाळून दवरिल्लो. आतां हें येवन 2-3 म्हयने लेगीत जाले नात. सगलें सत्यानाश करून उडयलो मगो. आतां तरी तुका

समादान जालें मगो?

तुंगा : हय, हय. सगल्याक हांवूच वायट आनी तूं मात देव मनीस न्हय.

गंगा : तुजे कडेन कोण उलयतलो गो बाये. हांगा यो म्हगेली हड्ड्या भितर तकली फिरू लागल्या. दुकानांतल्यान एक सोडा सरबत करून हाड. सोडा जरा कोल्ड उरूं आं. आनी साकर इल्ली जास्ती घालूंक सांग. बेगीन हाड. देवा देवा.
(वेदा वता.)
(डॉक्टर चड्डेरूच येता.)

डॉक्टर : आय एम डॉक्टर. जनजनवाला लोगोकां तकलीफ समझने वाला. पैसे के लिये एक काम नही करने वाला इज्जत की रोटी खाने वाला. आतां हांगा पेशंट कोण? (गंगा-तुंगा मुखार वचून) अयय्यो हेमगेले तकलेर तांती फोडल्यार आतांच ऑमलेट जातलें. तितलें गरम आसा हेमगेलें आंग. आगो आतां पेशंट कोण? (वेदा येता.)

वेदा : आई, आई. डॉक्टर शर्टूच घालून येयला मगे. पॅण्ट दिसना.

डॉक्टर : (स्वताक पळोवन) आयज कालचें फॅशन हें. आतां खूब थंडी खाता. म्हाका आंगा कलराचे नवीन चड्डे पॅण्ट आयलां. हें पॅण्ट घाल्यार थंडीच लागना. आनी कोणाक तें पॅण्ट घाल्लें दिसना.

असिस्टंट : सर सर तुमगेलें पॅण्ट.

डॉक्टर : हें पळय, हें पॅण्ट घालें हेका बी दिसना. ही पॅण्ट कित्या हाडली? उरूं. तुवें इतले कश्ट करून हाडला म्हणून घालतां. आतां पेशंट कोण?

वेदा : हे पळय हिंगा आसा.

डॉक्टर : हाका कितें जालें.

गंगा/तुंगा : हांव सांगतां, हांव सांगतां (दोगी एकामेकां फाटीं ओडटात.)

डॉक्टर : तुमकां पांय पडटा तुमी मात वगी रावतलीं.
(असिस्टंट कडेच्यान गुळी घेवन खाता. वेदाल्या हातांतलो सोडा पिता.) तुमगेल्या ह्या रितीन म्हाकाच हड्डयां धप धप जावंक लागलां. आनी हेका कितें जातलें. बाय तूं तरी सांग.

वेदा : आई... सांग गे.

गंगा : दोतोर म्हगेलो घोव बरोच आशिल्लो आतां पळयल्यार. छातयेचेर हात धरून कांय नासतना पडला. (डॉक्टर बद्रीक तपासतना फुगो फुगोवन स्वास दिता.)

असिस्टंट : (इंजेक्शन दिता) सर...बायलांनी मारून मारून हागेली चामडी जाड जाल्या. इंजेक्शनाची सूय मोडली.

डॉक्टर : तशें जाल्यार व्हड इंजेक्शन काड. (तो व्हड इंजेक्शन काडटा.) (रनींग 1... 2... 3. म्हूण फोर्सान इंजेक्शन तोपता. बद्री एकदम उठ्ठा.)

बद्री : तुमी म्हाका कित्याक जिवंत केलो. हांव स्वर्गांत आराम रावताशिल्लों. आनी ह्या नरकांत कित्याक घालें तुमी.

डॉक्टर : बद्री, तूं जास्त उलयनाका. तुका कांय जायना. जाल्यार मात चार दीस उरतली. गंगा-तुंगा हांगा येवन तुमगेल्या घोवाक मायनर हार्ट ॲटॅक जाला आनी हाचे मुखार तुमगेलीं झगडीं अशींच उरल्यार घोवाली आशा सोडची पडटली. तुमकां घोव जाय काय झगडीं. विचार करात. तुमगेल्या घोवालो जीव तुमगेल्या हातांत आसा. हाचे मुखार हांव आनी कांय सांगूंक शकना. तुमकां तुमी भितर वचून विचार करून सांगात. तितले मेरेन हांव बद्री कडेन उलयतां.

(गंगा-तुंगा भितर वतात.)

बद्री हांगा यो. तुका कांय जालें ना. घटमूट आसा तूं. तुमची फामिली हाचे फुडें सुखांत रावची म्हूण हांव डॉक्टर जावन खोटें उलयलों तुमकां हार्ट ॲटॅक आयला म्हूण. कसो आसा म्हगेलो प्लॅन? आय एम डॉक्टर.

असिस्टंट : फुकट सोरो पिनेवाला (गंगा-तुंगा येतात.)

तुंगा : आमगेली चूक जाली. आमकां घोवालो जीव मुख्य.

गंगा : आतां आमी ह्या घरांत भयणी-भयणी सारकी रावन घरसंवसार शांत रितीन सांबाळटलीं.

डॉक्टर : ही बुद्दी तुमकां पयलींच येवंक जाय आशिल्ली. जाल्यार आतां तरी बुद्दी आयली न्ही. बरें आसा. तेन्ना घर म्हणल्यार शांती निकेतन जावन रावंक जाय.

असिस्टंट : सर, तुमगेली बायल घरा.

डॉक्टर : हय न्ही. बरें येता हांव. म्हगेली बी बायल आसा. देवा... आय एम डॉक्टर.
(बद्रीक दोळो मारून वता.)

गंगा : म्हाका माफ करात हो. आमी अशें केन्ना परत वागचीं नात. डॉक्टरान आमगेले दोळे उगडले.

बद्री : आनी तुमकां साडी?

तुंगा : म्हाका साडी बी कांय नाका. तुमीच मेळ्ळ्यार पुरो.

वेदा : आई, परत परत तूं म्हगेलीं वर्सां विचारून अदीक एक वर्स कित्याक म्हणटा आशिल्ली गे? तेन्ना हांव खंय आशिल्लें.

गंगा : तेन्ना मगो बाये तूं इंडिया टिमीचें कॅप्टन आशिल्लें. तूं डान्स क्लासीक वता म्हणिल्लें न्ही.

वेदा : हय आई, म्हाका वेळ जालो. हांव वतां. येता बाप्पा.
(वता.)

बद्री : आतां म्हाका समादान जालें. डान्स म्हणटकच याद आयली ह्या खोर्शीतच आमी एक डान्स करुया.

गंगा : तुमची खोशी ती आमची खोशी. तुमी सांगील तशेंच जावं.
(बद्री दोनूय हातांत दोन बॅग घेवन येता.)

बद्री : पळयलें न्ही ओ. दोन लग्न जावन आले रोस ह्या बायलांच्या दोळ्यां भितरघोव जाला भोळो तशें म्हूण तुमकां सांगता एक गोस्ट. जिवनांत तुमगेलो संवसार सुखान जावचो जाल्यार एकूच लग्न करात. दोन लग्नां जावन तुमगेलें जिवन नरक करून घेनाकात. आतां हांव वतां. तांकां राग आयल्यार आनीक बेजार. हांवें सांगिल्ली गजाल मात लक्षांत दवरात. वतां हांव. तीं रागार जाल्यार बेजार.

सोंपता



# हांव कित्याक बरयता

म्हजे भितरली आत्यंतीक उर्मी म्हाका बरोवंक प्रवृत्त करता. म्हजो ताका उपाय ना. अर्थांत हाका खूबश्यो गजाली कारणीभूत आसात.

अ. म्हाका कितें तरी सांगपाचें आसा.

ब. म्हाका म्हजें अस्तित्व सिद्ध करपाचें आसा.

क. म्हाका दिसता की साहित्याच्या माध्यमांतल्यान हांव स्वताक प्रकट करूंक शकतां.

थोडे भितर (आनी कोणेंय कितेंय म्हणूं) हांव स्वता प्रमाणीत करपा खातीरच बरयतां. जगप्रसिद्ध आट्रीयन् - जो एक ज्यू आशिल्लो - मनोविश्लेशणतज्ञ सिग्मंड फ्रोयड हाची परिभाशा जर वापरपाची जाली जाल्यार मनीस सभावाचे तीन भाग आसात 1) इर्शा (Ego) - म्हणल्यार अहम - मनशाचे जाणिवेचो भाग. आपल्या परिसिरा कडेन जुळोवन घेवप, वेव्हार सादप हें हाचें काम. हातूंतल्यान सामान्यपणान आमचें व्यक्तीमत्व निर्माण जाता. 2) Super Ego - अत्यहम्. आमच्या नैतीक आदर्शाचें केंद्र. हो आमचे जाणिवेचेर बंधनां लादता आनी एक पुलीस कसो काम करता. 3. Id - (इदम) आमच्या निसर्गीक प्रेरणेचे उर्जेचो एक प्रचंड असो स्रोत. हातूंतल्यानच आमच्यो निसर्गीक प्रेरणा (उदा. लैंगीक प्रेरणा) आनी सभावीक इत्सा उफाळून येतात आनी आमच्या इर्शे वरवीं सफल जावपाचो यत्न करतात. पूण आमचो 'Super Ego' आमच्यो ह्यो सभावीक प्रेरणा दामून दवरपाचोच यत्न करता आनी 'Id-Ego' हांचे मदीं समन्वय सादपाचो यत्न करता. जर हो सुसंवाद जमना जाल्यार आमचे मदली संतुळा इबाडटा आनी मनोरुग्णाची आमची स्थिती जाता. पयल्यो दोन स्थिती म्हणल्यार 'Ego' आनी 'Super Ego' ह्यो जाणिवेच्यो जाल्यार 'Ego' ही स्थिती नेणिवेची!

साहित्यनिर्मणी आमकां ह्या सगल्या तिनूय स्थिती पलतडीं वचपाची शक्त दिता. पावयता. साहित्यनिर्मणी आमकां प्रतिसृश्ट निर्माण करपाची शक्त दिता. देवान स दिसा भितर सृश्ट निर्मिली अशें 'Judaic' म्हणल्यार ज्यू, ख्रिस्ती आनी इस्लामीक देवशास्त्र मानता. 'ॐ' ह्या हुंकारांतल्यान जग निर्माण जालें अशें भारतीय मिथक मानता. न्युटन धरून आईन्स्टायन ते स्टिफन हॉकिन्स मेरेनचे शास्त्रज्ञ अनंताचो सोद आनी थाव घेवपाचो यत्न करतात. आनी स्वाभिमानी आमी साहित्यीक आमचें अशें विश्व निर्मुपाचो आनंद घेत बरयतात. ही प्रतिसृश्ट निर्मुपाचो आनंद घेवंक बरयतात. तें करतनाची प्रसव वेदना भोगूंक, नवनिर्मितीचो उन्मेश भोगूंक हांव बरयतां. आमी सगळीं बरयतात.

एके दृश्टीन पळोवंक गेल्यार निर्मितीचो हो आनंद फकत बौद्धीक उरना, तर तो शारिरीक जाता. खूबश्या अर्थी फ्रॉयड म्हणटा तसो, आनी तितले पुरतोच न्हय, पूण लैंगीक जाता. एक आनंदमार्ग जावन एक वेगळेंच सूख दिता. म्हणून हांव बरयतां. आमी सगलीं बरयतात.

**श्रीधर कामत**

संमेलनाध्यक्ष,बारावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन, मार्शे